# काणी एका सुण्याची



– सुधा खरंगटे



# विश्व कोंकणी केंद्र

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्टान
कोंकणी गांव, शक्ती नगर, मंगळूर - 575 016

ज्ञानपीठ पुरस्कार सम्मानित, विश्व कोंकणी साहित्य रत्न,

## पद्मभूषण डा. रवींद्र केळेकर

### स्मरण पुस्तक वितरण येवजण

हें पुस्तकाचे दानीः श्री टी. वी. मोहनदास पै



This Book is donated by Shri T.V. Mohandas Pai, under Jnanpeeth Award Winner, Vishwa Konkani Sahitya Ratn,

## Padmabhushan Dr. Ravindra Kelekar
## Smaran Pustak Vitaran Project

WORLD KONKANI CENTRE

KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
KONKANI GAON, SHAKTI NAGAR, MANGALORE - 575016

# काणी एका सुण्याची

सुधा खरंगटे




बिम्ब प्रकाशन

काणी एका सुण्याची
(बाल साहित्य)
सुधा खरंगटे



पयली आवृत्ती : २००९

प्रकाशन क्र. : ६७

उजवाडावपी :
बिम्ब प्रकाशन,
'धर्म-लक्ष्मी',
सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

अक्षर जुळवणी :
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र आनी रेखाटन:
गिरीश नंदा बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशनस्
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९०००२

मोल : रु. ५०/-

**Kanni Eka Sunnyachi**
(Childrens Story)
by
**Sudha Kharangate**

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य येवजणेखाला छापलां.

जाका लागून हांव
भुरग्यां खातीर बरोवंक लागलें
त्या 'भुरगें आनी राजहंस'
हांच्या म्हींवाळ उगडासाक



हांव टायगर!

सगळीं म्हाका राजूबाबाचो सुणो म्हण वळखतात. हांव त्या घरांत रावंक आयल्यार जायतीं वर्सां जालीं.

हो भायलो हॉल, व्हरांडो आनी घरा भोंवतणचें गार्डन. इतल्याच जाग्यार आमी भोंवतात.

आमी म्हणचे हांव, ल्युसी, टीटो, टॉमी, रॉकी. राजुचो डॅडी आमचो पात्रांव!

तो घरांत आयलो तसो ल्युसी, टॉमी, टीटो, रॉकी सगळ्यांक बोवाळ पडटा.

रॉकी पयलोच धांवत वचून डॅडीचेर दोन पांय रोमून उबो रावता आनी

शेंपडी हालयता.

टॉमी डॅडीक शेकहँड दिवंक ताचे भोंवतर्णी नाचता.

टीटो तर व्हडलो राकेस कसो - तो मुकार सरतकच टॉमी, रॉकी, आपशींच फाटीं सरतात.

डेडी मागीर व्हडल्या व्हडल्यान हांसता आनी तांकां थापटिता; हाचो कान खरपिता, ताका लागीं घेता; हाका वेंगेंत घेता- ताचेर धेंगसो घालता. तांचे कडेन उलयतां उलयतां कदेलार बसून बूट काडटा.

-तशें ल्युसी ताचे मांडयेरच चडटा...

-एऽदे व्हडले ल्हंवेचें, मूठभर मांस आशिल्लें धवेंफुल्ल सुणें तें!

डॅडी हांसतच ताका पोशेता - ताच्यो अपुरबायो करता

मागीर ल्युसी डॅडीक पळोवन जीब भायर काडून हांसता हांसता

निमणो हांवय उठतां- भोंकिल्ले भाशेन करतां- शेंपडी हालयतां

पूण डॅडीच्या म्हऱ्यांत वचून ताचे पांय चाटपा इतली धिटाय म्हाका ना.

घरांत भितर वतना हांव भोंकता तें आयकून डॅडी म्हजेय तकलेर असोच हात लायलो सो करता. थापटिल्ले भशेन.

वयले वयर हात लावप! पोशेवप बी कांयच ना.

कित्याक?

हांव जगावेलों, हेडगो, गांवठी सुणो न्ही! आमची सगल्या सुण्यांची सेवा करपी रॉबर्टान ज्युलीक तशें सांगलां, तें हांवें आयकलां

'चोय गो ज्युली, हो सगळ्या बोऱ्या बोऱ्या कास्ताच्या सुण्यां मदीं हो -- हो जगा वेगळो हेडगो- गांवठी सुणो सोबता तोरी गो? तें चोय पोमेरिजयन, तो लेब्रेडोर - तो आल्सेशियन - तो टॉमी लेगीत मिक्स

ब्रीडाचो! आनी त्या सोगल्या मोदीं हो टायगर? शी! नांव कितें काय म्हळ्यार टायगर खंय!'

मागीर ज्युलीय म्हजे खातीर रॉबर्टा कडेन खूब झगडिल्लें. तेंय बी हांवें कान धांपून आयकलां.

'ताका टायगर हें नांव राजूबाबून दवरलां. तुगे ह्या व्होडल्या व्होडल्या कास्ताच्या सुण्यांनी कितें केलां? पूण टायगरान राजूबाबूचो जीव वाटायला. जाणा मरे तूं ? राजूबाबाक किडनेप करतल्यांक धांवडावन घायल्यात ह्या टायगरान-'

आनी ज्युस्त हांगाच हांव घुसपतां! अजापांत पडटां!

राजूक उबारून व्हरपी ते चोर म्हाका कशे याद जायनांत?

म्हाका आजमेरेनचें सगळें - सगळें याद जाता. मागीर हेंच कशें याद जायना?

हांवें त्या चोरांक कशें धांवडायिल्ले? केन्नां धांवडायिल्ले?

हांवें राजूचो जीव कसो वाटायिल्लो?

कितेंच कशें म्हाका याद जायना?

फुडल्या दोनय दोंक्यांचेर सोंड दवरून हांव येवजीत बसतां.

आनी येवजून येवजून पुरो जातकच एक न्हीद काडटां.

आनीक काम तरी कितें आसा म्हाका?

पयलीं पयलीं ह्या घरांत नवोच आशिल्लों तेन्नां घरा भोंवतणच्या गार्डनांत भोंवतना भायल्या रस्त्या वेल्यान वचपी कोणय सुणें - कोलूग बी दिसतालें. हांव मागीर उडक्यो मारून, दुर्गाचे गरादींतल्यान तोंड भायर घालून व्हडल्या व्हडल्यान भोंकून तांकां उलो मारतालों.

तीं सुणींय बी म्हऱ्यांत येवन भायल्यान भोंकून म्हजी खबर घेतालीं.

चार दीस रॉबर्ट ओगी रावलो.

मागीर म्हज्या भोंकपाचो घरांतल्यांक त्रास जावंक लागलो खंय!

रॉबर्टान आनी शाणून म्हाका दोतोरागेर व्हरून म्हजे कितें हाल केले तेच जाणांत.

तेन्नाच्यान कोणय सुणें कोलूग दिसल्यार तांकां जाप लेगीत करूंक वचना हांव.

तांचे कडेन वचून भोंकून खबरो करपाची उमेदय मेल्या म्हजी.

म्हाका तांचे फाटल्यान वचनच दिसना.

राजू येतकूच मात हांव उठटां, उडक्यो मारतां. व्हडान भोंकतां... तुटसर शेंपडी हालयतां...

हांव राजूचो सुणो!

तो ल्हानसूळो बाबू आसतना ताणेंच म्हाका 'टायगर' हें नांव दवरलां.

राजूक लागून हांव ह्या घरांत पावलां.

पूण राजू आतां व्हडलो जाला.

आतां तो मनांत मारल्यार म्हाका लागीं करता...तकलेर थापटिता...

नाजाल्यार म्हजे कडेन पळोवन हांसता आनी भितर वता.

मागीर हांव परतोऽ म्हज्या दोक्यांचेर तोंड दवरून दोळे धांपतां. आनी म्हज्या जिणेची काणी येवजितां.

तें त्या ल्हानश्या घराचें मागील दार. तें चारूबाय, आमचे आवयक मोगान पोशेवपी... खावंक घालपी... म्हाका आनी म्हज्या भावंडांक उबारून घेवपी. अपुरबाय करपी.

येवजितां येवजितां हांव न्हिदून पडटां.

म्हज्या ल्हानपणांतल्या त्या एका दिसाची याद म्हजे मतींत घट उरल्या.

सदचे भशेन त्या घराच्या मागीलदाराच्या कोनशाक आमची आवय न्हिदिल्ली.

आवयचे वेंगेंत शिरकून हांव आनी म्हजीं चारय भावंडां तिचे पाने चोखतालीं.

चोखून चोखून तोंड मात वळतालें. दुदाचो थेंबो मात मेळच नासलो.

दुदाचो मातसो वास मेळसर हांव चोखत रावलों. मागीर वाजेवन थंयच कुरगुटी करून आवयच्या पोटार मान दवरून न्हिदलों.

म्हजीं चारूय भावंडां पयलींच न्हिदून पडिल्लीं.

आवयन म्हाका चाटलो तसो हांव चडूच तिचे वेंगेंत रिगलों. म्हाका चाटतां चाटतां आवय उलयताली–

'उपाशी उरलो मरे?' म्हज्याच पोटाक सारकें मेळना, जाल्यार तुमकां दूद खंयच्यान मेळटलें? चारूबाय आससर म्हाका पोटभर खावपाक मेळटालें. तें घोंवागेर गेलें आनी म्हज्या नशिबांत हे उपास आयले. पोटाक घालप सोडच, शेंपडी हालोवन लागीं गेल्यार लेगीत 'हाड हाड' करून धांवडायतात. हें मागीलदार म्हजें कितलें वर्सांचें घर! पुणून पयर त्या सोमून म्हजेर फातर मारून म्हाका धांवडावन घालें.

आवय ही काणी म्हाका सांगताली? काय आपले भितरूच उलयताली? म्हाका कांयच कळना जालें, पूण काल आयदनां घांसतना वावराडीय बी आमचे फाटल्यान बडी घेवन लागिल्ली ती म्हाका याद जाली.

कित्याक काय?

हांव येवजूंक लागलों.

पूण भोंगूच तें! म्हजे ल्हानशे मतीक येवजवप कशेंच जमना.

हांव परतो आवयच्या पान्यांत दुदाचो थेंबो मेळत काय म्हूण चोखूंक लागलों.

इतल्यान 'हाड हाड बडी वच थंयचें ओवाळून...' अशें कितेंशे बडबडत सोमू हातांत व्हडलो दांडो कशी बडी घेवन आयलो.

आवय कच्चच करून आंग काडून उठली

सोमूच्या हांतांत एक साक आसलो. सोमू आमकां हात लायता हें पळोवन आवय भोंकत – गुरगुरत ताच्या आंगार तुटून गेली.

पूण सोमून तिचे फाटीरूच दांडो मारलो.

तशी 'कूंय कूंय केंव केंव' करून सोमूक गाळी घालीत आवय मातशी कुशीक सरली.

सोमून एक एक करून आमकां सगळ्यांक, पांचूय जाणांक साकांत भरलीं आनी साक फाटीर मारून तो चलूंक लागलो.

म्हाका त्या साकांत सामकें घुसमटिल्ले भशेन जालें. म्हजीं भावंडांय बी साका भितर बोवाळ घालूंक लागलीं.

हांवें तो साक कितलो भुरकयलो! पूण सोमू आमकां कसोच भायर काडिना. तो साक फाटीर मारून चलत रावलो.

बऱ्या वेळांत तो एका जाग्यार थांबलो. आनी नाल्ल रकयल्ले भशीन ताणें आमकां जमनीर रकयलीं.

आंग धाडवलें म्हजें सामकें!

आतां सोमू आमकां व्हडा व्हडान तापोवंक लागलो. परते घरा म्हऱ्यांत दिश्टी पडशात जाल्यार ह्या पाणट्याच्या उदकांत बुडोवन मारतलों.

एक कोलूग आससर पोटाक घालें..!आतां हें कोलूग पेटे काडूंक लागलें...कोण पोसतलो ही संतत? आतां दर वर्सा पेटे काडटलें...!! तरी हांवें चारूबायक सांगिल्लें– 'सुणो पोसप खेरीज आनी कोलूग पोसप खेरीज. आतां कोण सांबाळटलो ही भुरावळ? परते घरा आयल्यार दोंकोंच मोडटलों एकेकाचो...!!'

अशें कितें कितें बडबडत आमकां धमक्यो दीत साकाची रिती पोती खांदार उडोवन सोमू परतो गेलो.

तो गेलोसो पळोवन आवय धांवतच आमचे म्हऱ्यांत आयली.

ती आमकां चाटूंक लागली. आमकां खंय कितेंय जालें ना मूं, म्हूण पळोवंक लागली.

पूण आमी किदें करचें?

थंयच तिका आडवी घाली. पाने चोखून दूद मेळटा काय पळोवंक लागलीं.

शेवटाक वेळ कसलो आनी तुमकां फकत पोटाचेंच पडलां? अशें मोठ्यान गुरकावन तिणें आमकां पयस केले.

मागीर हांव थंय कसलो आवाज येता काय म्हूण पळोवंक लागलों थंयचो तो उदकाचो 'पाणटो' म्हणटात तो हांवें पयलेच खेपे पळयलो.

कितलें उदक तें!! आनी कशें व्हांवतालें!!

इतलें उदक हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें. म्हाका मजाच दिसली. 'भूक भूक' करीत शेंपडी हालयत हांव त्या उदकाच्या म्हऱ्यांत वचूंक लागलो.

आवयन म्हजे गोमटेक धरून म्हाका फाटीं ओडलो. 'अश्या चड उदकांत वच सारको तूं अजून जावंक ना. उदकांत पडल्यार बुडून

मरतलो' तिणें म्हाका शिटकायलो.

'बुडून मरता' म्हळ्यार कितें काय? हांव येवजूंक लागलों... पूण भोंगूच तें! म्हजे इल्लेशे मतीक हें येवजप जमचना.

हांव मागीर थंयच बसलों आनी फुडल्या दोनय पांयांचेर मान तेंकोवन पाणट्याचें तें व्हांवतें उदक बिटी बिटी दोळ्यांनी पळोवंक लागलों.

**आ**मकां थंयच एका झाडा मुळांत दवरून आवय आपल्या पोटाक कितेंय मेळटा काय म्हूण पळोवंक गेली. वतना तिणें आमकां 'एकाच जाग्यार बसात. हांगा - थंय भोंवनाकात' म्हूण सांगलें.

पूण हांव एका जाग्यार चड वेळ खंय धरतां? थोडो वेळ भांवडां बरोबर टिवल्यो बावल्यो केल्यो- हाची शेंपडी ओड-ताचो कान चाब अशें करीत आमी आमच्या भितर खेळूंक लागलीं.

आमच्यांतलो एकलो तर आपलीच शेंपडी धरपाक सोदूंक लागलो.

शेंपडी धरपाक आपल्याच भोंवतणीं वांटकुळो घुंवपाक लागलो.

आपल्या भोंवतणीं घुंवता-घुंवता शेंपडी कश्शीच ताच्या तोंडांत येना. ताका आमी सगळीं 'भूक भूक' करून हांसले. हांस हांस हांसले.

मागीर मात म्हाका बेजार आयलो. हांव हांगा थंय भोंवत, म्हाका कितें दिसता तें पळयत...वास घेत थंयच्यान पयस पावलों.

आतां सांज जाल्ली. घब घब करून कितलींशींच गोरवां आयलीं. पाणट्याचें उदक पिवंक लागलीं. तांचे फाटल्यान दोन राखण्या पोर आयले. हातांत बडी घेवन...!!

तांच्यो बडयो पळोवन हांव थर्त भिलों. म्हाका दिसलें - सोमून

आवयचे फाटीर बडी मारिल्ली, तशी हे आतां म्हजे फाटीर बडी मारतले.

हांव भिवन मातसो फाटीं सरलों. म्हाका अजून सारकें भोकूंक येना आसलें; तरी हांवें 'भूक भूक' करून तांकां सांगलेंच 'म्हजेर बडी मारशात जाल्यार सांबाळात हा! म्हजे आवयक सांगतलों. ती तुमकां घांस काडटली.'

आनी हांव भोंकतां भोंकतां फाटीं फाटीं सरत रावलों.

त्या राखण्या पोरांची नदर म्हजेर पडली. तांतूंतल्या एकल्यान म्हळें 'आरे दुमिंग, सुण्यापेटो पळय काय बरो! घरा व्हरया तेका? पोसया आमी?'

दुसरो तो 'दुमिंग' म्हणटात ताणें म्हाका उबारलो आनी बारीकसाणेन म्हजें तोंड बी पळोवपाक लागलो.

'वासू, हेंगलें नाक चोय रे! काळें मुरे! तोंडय काळें! तांबड्या तोंडाचो सुणो बरो म्हुणटात... काळ्या तोंडाच्या सुण्यान घांस मारल्यार विखार जाता. जाणां मुरे?' त्या दुमिंगान सांगलें.

'ना रे दुमिंग! पळय मरे, तेज्या धव्या आंगार काळे काळे थिपके आसात ते...! नाकाचेरूय तसोच काळो थिपको आसा तो! दुमिंग, तूं कितेंय सांग: हो पेटो म्हाका गोस्ताक गेलो.' त्या वासून म्हाका पोशेलो.

पूण तो दुमिंग ताका उलोवंकच लागलो – 'चोय, तूं हेका घोरा व्होरता म्हुणटा... पूण तुगे मांय तुका सोवना मुरे? रस्ताद सुण्या पेटो घेवन येयला म्हुणोन?'

'घरा व्हरून पळयतां रे! आवय कितें म्हणटा पळयतां...नाजाल्यार मागीर दिलो सोडून...!!' अशें म्हणून त्या वासून म्हाका आपल्या खाक्याक मारलो आनी आपल्यालीं गोरवां आमडीत चलूंक लागलो.



ताचे खाक्याचे उबेन हांव सुखावलों. हांवय मागीर ताचो हात चाटूंक लागलों. शेंपडी हालोवंक लागलों.

तसो वासूय बी सुखाळलो जातलो. तो म्हजे फाटी वेल्यान हात ओडीत म्हाका पोशेवंक लागलो.

तेन्नाच हांव एक खबर बरी शिकलों. शेंपडी हालोवन हात बी चाटल्यार हीं मनशां आमकां बरेंऽ करतात!!

हांवें हें घर बरें मतींत धरलें.

आमी वासूच्या घरा पावले. घर म्हळ्यार चुडटांची खोंपूच ती!

वासून म्हाका खोंपीचे भायर दवरलो आनी आवयक उलो मारलो – 'आवयऽ, ए आवयऽ मातशी भायर यो गे बेगीन!'

'कितें जालां रे वासू तुजें?' म्हणत ताची आवय भायर आयली.

हांव धांवत वचून तिचे म्हऱ्यांत शेंपडी हालयत उबो रावलों. तिचे आंगाक नुस्त्याचो बरोऽ वास येतालो. तिचो हात चाटतलों म्हळ्यार

तिच्या हाताक काय म्हजें तोंड पावना. मागीर पांयच चाटून पळेलो.

हांवें पांय चाटतकूच ती बरीच खोशी जाली जावंये! तिणें दोनय हातांनी म्हाका वयर उबारलो.

'आब्बा! बरोऽ मरे सुण्यापेटो. खंयच्यान हाडलो?'

आवयन 'बरोऽ पेटो' म्हणनाका , वासूक उमेद जाली जातली. ताणें बेगीन बेगीन आवयक सांगलें - 'आवय, न्हंयचे देगेर - एकलोच भोंवतालो मगे तो. चुकोन पावलो जातलो. म्हजे म्हऱ्यांत येयलो. म्हूण हांवें तेका घरा हाडलो! आवय, आमी पोसया गे हेका? गोरवां - राखणेक म्हाका उपकारतलो! आवय, पोसया गे हेका?'

पोरगो असो काकुळतेक येंवनाका, आवयन 'बरें' म्हळें. त्या बरोबर वासू खोशयेन सगळोच नाचूंक लागलो. म्हाका उबारून वेंगेंत घेवन पोशेवंक लागलो.

'ही ती कट्टी घे आनी पेज घाल तेका तितून.' आवयन सांगलें.

वासून धांवत भितर वचून कट्टेंत पेज हाडली आनी म्हजे मुकार दवरली.

पूण म्हाका खंय पेज खावंक येताली? हांव जाणा आसलों फकत आवयचें दूद पिवपाक!

हांव ती पेज पळोवन ओगीच रावलों. वासू म्हाका 'चूक चूक' करून आपोवंक लागलो. शिळोणी घालूंक लागलो. 'यो रे, ही पेज जेय.' म्हणूंक लागलो.

आतां हांवें कितें करपाचें? हांव त्या कट्टे म्हऱ्यांत गेलो. एक दोंकोच पेजे भितर घालो. मागीर कट्टीच तोंडांत धरली.

ती पेज सगळी जमनीर रकली. हांवें मागीर वासूच्या तोंडाक पळोवन

शेंपडी हालयली. 'सामकोच पिसो मरे तूं! पेजय जेयच्या येयना तुकां' अशें म्हणून वासून परतीऽ कट्टी भरून पेज हाडली आनी म्हजी सोंड धरून म्हजें तोंड त्या कट्टे भितरले पेजेंत बुडयलें. हांवें जिबेन तोंड चाटलें.

'आब्बा! पेज बरीऽ लागता!' हांवें चिंतलें. वासून परतून म्हजें तोंड कट्टेंत बुडयनाका हांवें 'लप' करून पेजेचो थेंबो चाटलो.

जिवाक बरेंऽ दिसलें.

वासून परतेंऽ म्हजें तोंड कट्टे म्हऱ्यांत व्हेलें. हांवें जिबेन निवोळ चाटलो.

अशें करतां करतां हांवें ती कट्टी भर पेज पिवन सोंपयली.

आतां म्हाका म्हज्या तोंडान खावंक येता म्हूण हांव खोश्शी जालों. पोट भरिल्ल्यान सुस्तावलों. आनी खोंपीच्या दारांतूच आडवो जालों. 'पळय गे आवय, कसो घर राखूंक न्हिदला तो!' वासून म्हाका तोखेत म्हळें.

वासूलीं भावंडां आतां म्हजे म्हऱ्यांत येवन म्हाका हात लावंक लागलीं. कोण कान ओडून पळेता, कोण शेंपडी ओडटा. म्हाका दिसलें, तांचेर भोंकचें आनी तांकां भेश्टावचें! पूण मागीर वासूक बरें दिसचें म्हूण तांकांय बी हांवें शेंपडी हालयली.

इतल्यांत आवय भायर आयली आनी तिणें पोरांचेर धेंगसो घालो – 'चलात भितर, थंय कितें करतात? जेवन न्हिदपाचो वेळ जालो.' तशीं तीं सगळीं जाणां भितर गेलीं. रातचीं सगळीं खोंपींत न्हिदलीं. हांव एकलोच भायर! म्हाका म्हजे आवयची आनी भावंडांची याद येवंक लागली.

कशीं एकामेकाक चिकटून आवयचे पोटा कडेन गुटले जावन पडटालीं आमी!

हांवें 'कूं कूं कूं' करून जायतो बोवाळ घालो. खोंपीचें दार नाखटांनी भुस्कायलें. म्हाकाय भितर घेयात म्हूण 'भूक भूक' करून सांगलें.

शेवटाक दार उकतें करून वासू आवय भायर आयली. तिणें म्हजेर व्हडान धेंगसो घालो. 'ओग्गी पोडोन राव थिंगा. बोवाळ करशीत जाल्यार पेट पडटलो' अशें सांगून तिणें म्हाका न्हिदपाक एक साक हाडून दिलो.

सगळी रात हांव शिंयान कुडकुडत 'कूं कूं' करीत थंयच साकाचेर बसून रावलों. खंयचो ह्या वासूगेर पावलों, अशें म्हाका जालें.

सकाळ जातकच मात सगल्यांनी म्हजो खूब थातोमातो केलो. सगळीं जाणां म्हज्याच भोंवतणीं बोवाळ घालूंक लागलीं.

'आबोल्या, तेची शेंपडी कितें ओडटा? दुखतलें तेका.' वासून भयणीक कुशीक काडली. 'ना रे दादो, हांवेंन तेजी शेंपडी ओडूंक ना. शेंपडेर मूय शी दिसली, ती फाफुडटालें' त्या आबोल्यान म्हळें.

'आरे धर्मू, तेका असो वेंगांत घेवन मुड्डिनाका' वासून आपल्या धाकल्या भावाच्या हातांतलो म्हाका झोमून घेतलो. इतल्यान आवय म्हाका कट्टेंत च्या आनी पांव खावपाक घेवन आयली.

'घे रे, पांव खा. खा पोरा.' ती म्हाका परती परती 'पांव खा' म्हणटा. आतां हो पांव कसो खावपाचो? हांव तो पांव तोंडांत घेतां, दवरतां. परतो तोंडांत काडटां - जमनीर वडयतां. वासून मागीर त्या पांवाचे बारीक बारीक कुडके केले आनी कट्टेंतले च्यावेंत बुडोवन एक एक म्हज्या तोंडांत घालो.

हांवें तो पांवा कुडको चाबडायनाका, म्हाका उमेद आयली. आरेच्या! चाबून – चाबून खावंक बरो लागता पांव! हांवें मागीर पांवाचो कुडको बरोऽ चाबून चाबून बी खालो. अशें करतां करतां पांवच सोंपलो. म्हाका पांव खावंक येता हें पळोवन हांव सामकोच भुल्लुसलों. च्या पिवन जातकच ती कट्टीच खावंक पळोवंक लागलों. तशी वासून कट्टी काडून घेतली. मागीर म्हजो न्हिदपाचो साक आसलो तोच चाबूंक लागलों.

सगळीं जाणां म्हाका कितलीं हांसलीं. एकटें एकटें एक एक उलोवंक लागलें. 'सामकोच वसवसो मरे हो!' 'वसवसो खंयचो? भकारो तो भकारो', 'ल्हेंवटो खंयचो!' अशीं कितें कितें नांवां सगळ्यांनी म्हाका दवरलीं.

तांतुंतलें 'भकारो' हें नांव वासू आवयक गोस्ताक गेलें जावंये. तिणें म्हाका 'हांगा यो रे भकाऱ्या' म्हूण उलो घालो. आनी हांव शेंपडी हालयत तिचे म्हऱ्यांत गेलों, तेन्नाच्यान म्हाका 'भकारो' हेंच नांव पडलें. वासू मागीर च्या बी पिवन गोरवां राखणेक वचूंक भायर सरलो.

आवयन ताच्या हातांत लुगटाक बांदून एक डबो दिलो आनी म्हळें 'घेरे तुजी भुती! शीत–कडी केल्या आनी खारो बांगडो भाजून घाला बरोऽ! ह्या दिसांनी रात बेगीन जाता जाणा मरे? रोकडेच परतीयात गोरवांक!' वासून भुती घेतली. तरी तो असो–असो घुटमळटा तें पळोवन आवयन विचारलें – 'कितें जालां रे तुगेलें वासो? कितें जायें?'

'आवय, हांव भकाऱ्याक म्हज्या बराबर गोरवां कडेन व्होरो गे? म्हाका गोरवां राखोंक तो उपकारतलो.'

वासू म्हाका आपले बरोबर व्हरूंक सोदी. पूण आवयन ताका

समजायलो ' आरे, भकारो अजून सामकोच पिलो आसा. तेका दांत बीन सारके येवं दी. भोंकूंक बीन येवंदी. मागीर तेका तूं बराबर व्हर'.

वासून तें मानून घेतलें. तो एकलोच वचूंक लागलो गोरवां कडेन. वासू वता तें पळोवन हांवें 'कूं कूं' करून व्हडलो बोवाळ घालो.

'भूक भूक' करून मोठ्यान भोंकपाचो यत्न केलो. वासू - आवयक म्हाका भोंकपाक येता हें दाखोवपाक. म्हाका वासू बरोबर भोंवक वचूंक जाय आसलें. हांव ताच्या फाटल्यान धांवता हें पळोवन वासू खोश्शी जालो. पूण आवयन एक दोरी हाडून म्हज्या गळ्याक बांदली आनी खोंपीच्या दाराकूच म्हाका बांदून घालो.

वासूचे भयणीचें नांव आबोलें. ताणें खोंपी कुशीक वंय बी करून बरें पोरसूं केलां. हांव तें पोरसूं पळयत बसलों. शेंवतीं, रोजां, आबोलीं, केळी बी कितें कितें पोरसांत आसलें. आबोलें त्या झाडाक उदक घालतालें. 'आबोल्यो, दीसभर झाडांक उदीकच शिंपत रावता? दीस माथ्यार येवंचो जालो. वावराक वचना? भाटकान्नीन बेगीन आफयलां म्हुणटालें न्ही तूं? ती मागीर बोवाळ घालत' आवयन आबोल्याक शिटकायलें.

'जालेंच गे आवय, ह्या केळम्याक एक कळसुली उदीक घालतां. ह्या दिसांनी रोकडोच माथ्यार येता दीस ! आवय, बोण येयलां पळे केळम्याक!' आबोल्यान म्हळें. आवय मागीर ताच्या म्हऱ्यांत वचून केळम्याक बोण आयलां तें पळोवपाक लागली. धर्मूय बी पळोवंक लागलो.

म्हाकाय बोण पळोवंक वचूंक जाय आसलें. पूण कसो वतलों? आवयन दोरयेन बांदून घाला न्ही! उदक घालून जातकच आबोलें

भाटकान्नीच्या वावराक गेलें. आवय भितर रांदपाक गेली. धर्मू शाळेंत गेलो. हांव एकलोच उरलों भायर. खोंपीच्या दारांत बरेंऽ वत येतालें. हांवें मुकावेले दोंकें लांब केले. तांचेर सोंड दवरली. आनी बरो लांब जावन त्या वतांत सुस्तेवन न्हिदलों.

**क**सल्या तरी आवाजान म्हाका जाग आयली. 'खस् खस्....खस् खस्' असो आवाज पोरसांतल्यान येतालो.

पळय जाल्यार एक बोकडी! बरीऽ वंयेवल्यान उडकी मारून पोरसांत भितर सरल्या आनी केळम्याचें पान खाता. म्हाका दिसलें, आतां आबोल्याचीं सगळीं झाडां ही खातली. पोरसूं काबार करतली.

आनी मागीर आबोल्याच्या केळम्याक आयलां तें बोणय ती खातली? हांवें अजून बोण म्हळ्यार कितें तें पळोवंक लेगीत ना. हांवें आकांतून 'भूक भूक' करून उलो मारलो 'आवयऽऽ, आबोल्याऽऽ'

बोकडी आतां दुसरें पान खावंक लागिल्ली. कसो आमडूं आतां ते बोकडेक? परतोऽ हांवें आवयक उलो मारलो. आबोल्याक उलो मारलो.

आवयन म्हज्या गळ्याक दोरी घालून बांदून आनी दवरल्या! हांवें परतून भूक भूक भूक! करून व्हडलो बोवाळ घालून आवयक उलो केलो. 'ह्या भकाऱ्याचें जालां तरी कितें? बोवाळ घालता!' अशें म्हणत एकदाची आवय भायर आयली. हांवें बोकडे वटेन तोंड करून भोंकून तिका बोकडी दाखयली. मागीर आवय तश्शीच हातांत बडी घेवन बोकडेच्या फाटल्यान लागली.

बऱ्यो चार बडयो फाटीर पडूं नाका बोकडी बें बें करून रडत धांवपाक लागली. आवयन तिका मारत मारत, गाळी घालीत पयस पावयली, आनी ती परती घरा आयली. तिच्या हातांतली ती बडी पळोवन हांव भिलों. आनी साकारूच चळचळीत मुतलों. पूण आवयन म्हाका मारूंक ना. म्हाका उबारलो आनी फाटीवेल्यान हात भोंवडायत म्हाका पोशेलो. साक व्हरून आंगणांत सुकत घालो. आनी म्हज्यो खूब अपुरबायो केल्यो. 'भकाऱ्या, बरोऽ गुणाचो मरे तूं! तूं आतां शाणो जाला हा! बरोऽ भोंकूंक बीन लागला. पूण दारांत हागप मुतप ना हा! चल, पयस वचून कर तुगेलीं कामां!'

तिणें म्हाका गळ्याची दोरी सोडून मेकळो केलो. आनी ती घरांत भितर वचूंक लागली. तसो हांवूंय तिचे फाटल्यान घरांत वचूंक लागलो. आवयन म्हजे मुकार तिच्या हातांतली बडी हालयली. 'भकाऱ्या, सुण्यान घरांत येवप ना. इतलेंय कळना तुका? चल, दारांतच बस आनी पोरसूं राख. हांगा थंय हेडप ना हा!'

हांवेंय बी मागीर सगळें समजल्ले भाशेन दारांत बसून घेतलें आनी 'सुण्यान घरांत कित्याक वचचें न्हय काय?' हे चिंतीत बसलों.

दनपार जातकूच भाटकारागेर कामाक गेल्लें आबोलें परतें आयलें. 'आवय, काल भाटकारागे चेड्याचो बड्डे आशिल्लो न्हूं? हो पळय भाटकान्नीन केक दिला खावंच्याक' तें आवयक हातांतली पोटली दाखोवंक लागलें. आवयन केक घेतलो. पोटली सोडोवन एक कुडको आबोल्याच्या हातार दवरलो आनी उरिल्लो केक घेवन भितर गेली. वतांवतां तिणें आबोल्याक सांगलें. 'आज शेजान्नीली बोकडी तुगे पोरसूं काबार करपाची. भकाऱ्यान बोवाळ घालून म्हाका जाग केली. देखून तुगेली शेंवतीं आबोलीं

उरल्यांत. नाज़ाल्यार सगळें मेकळें जावपाचें.'

हें आयकून आबोल्यानय म्हज्यो खूब अपुरबायो केल्यो. म्हाका मांडयेर घेवन तें हुमऱ्यार बसलें. इल्लो केक आपूण खाता, इल्लो कुडको म्हाका खावयता. इल्लो कुडको आपल्या तोंडांत घालतना इल्लो म्हज्या तोंडांत घालता. अशें करत आमी दोगांयनी तो केक खावन सोंपयलो. हांवें केक पयलेच खेपो खाल्लो! म्हाका तो बरोऽ लागलो.

केक सोंपलो तसो हांव आबोल्याचीं बोटांच चाटूंक लागलों. शेंपडी हालोवन तांचे कडेन 'आनीक केक दी! आनीक केक दी!' म्हूण मागूंक लागलों.

म्हगेलें 'कूय कूय' करप आबोल्याक ज्युस्त समजलें 'आनीक केक जायो तुकां? खऱ्यानीच भकारो मरे तूं! सगळो केक आमीच खाल्यार मागीर दादोक आनी धर्मूक बीन खावंच्याक कितें तर? आयज मरे भाटकान्नीन पोळ्यांक वांटोन घेयलां म्हजे कडल्यान. फाल्यां सकाळीं ती पोळे काडटली. म्हाका च्याव आनी पोळो दितलीच! हांव मागीर तुका हाडटलें हां पोळो खावंच्याक ! आनी म्हजीं आबोलीं शेंवतीं बीन बरोऽ करून राखतलो मरे?'

हांवें शेंपडी हालोवन 'भूक भूक' करून हांव सगळें सगळें करतलों म्हूण ताका सांगलें.

तें भितर वतकच हांव पोळो कसो लागता काय तेंच येवजीत बसलों.

हांवें पोळो केन्नाच खावंक नासलो न्ही! पूण तो केका भाशेन बरो लागता जातलो!

आबोल्यान येदे व्हडविकायेन म्हाका सांगलां तें ओगीच तर!

हांव खोश्शी जावन फाल्यां केन्ना उजवाडटलें, पोळो केन्ना खातलों हें चिंतपाक हांवें सगळो दीस घालयलो.

**सां**जेचो वासू घरा आयलो. ताका पळोवन हांव खूब खोशी जालों.

वासूचेर मागीर हांवें खूब उडक्यो मारल्यो आनी ताचे पांय म्हज्या दावखुलांनी बुड्डयले.

'म्हाका घेनासतना कित्याक गेल्लो रे?' म्हूण 'भूक भूक' करून ताचेर खूब शीण काडलो.

वासूय बी खोश्शी जावन म्हाका पोशेवंक लागलो.

वासू आनी ताचो भाव धर्मू एक वांटकुळो पल्ल घेवन अशे - तशे शेवटीताले आनी मागीर तो पेल्ल परतो हाडपाक अशे - तशे धांवताले.

**पिशे खंयचे!!**

पूण तें धांवतात म्हूण म्हाकाय धांवन दिसलें. हांव मर्दीच गेलों आनी तांचो तो पेल्ल तोंडांत धरून धांवलों धांवलों...

सगळे म्हाका हांसूंक लागले...

वासून शिळोंणी घाली. तो कित्याक शिळोंणी घालता काय म्हूण हांवें धांवपाचें सोडून ताच्या तोंडाक पळेलें. पळय जाल्यार तो म्हाकाच आपले म्हऱ्यांत आपयता. हांवें धांवत वचून पेल्ल वासू कडेन दिलो आनी म्हाका शाबासकी दितलो म्हूण ताच्या तोंडाक उमेदीन पळयलें.

पूण तो कसलो पिसो जाणां?

ताणें पयसऽ पेल्ल शेवटून मारलो.

आतां हांवें करपाचें तरी कितें?

तसोच धांवत वचून तो पेल्ल सोदून काडलो आनी वासू कडेन दिलो. आनी म्हळें 'शेवटय पयस, हाडटां हांव सोदून!'

ताणें परतो पेल्ल पयस झोंपांत शेवटून मारलो. हांवें सोदून काडून हाडलो.

काळोख पडसर आमी तेंच करीत रावले.

पळोवपाक घरांतलीं सगळीं जमिल्लीं. हांवें पेल्ल हाडलो तशीं घरांतलीं ताळयो मारून हांसतालीं.

खूब्ब मज्जा आयली.

मागीर म्हाका सामकें पुरो जालें. आनी हा, हा करीत जीब भायर काडून हांव वासूच्या पांयां कडेन थाराऽ लवंडलों.

आवयन मागीर तांकां खूब तापयले.

'आरे, तो सुण्या पेटो केदो? आनी तेका तुमी धांवडायतात कितलो? असल्यांनी मरोन वयतोलो मरे तो! कसो थारा पडला पळय मेल्ले भाशेन! पळय रे धर्मू, तेका कट्टेंत उदीक हाडोन घाल पियेवंक.'

धर्मून भितर वचून घागरींतलें उदक हाडून कट्टेंत घालें. म्हज्या तोंडा कडेन कट्टी धरली. हांव मागीर 'लप लप लप' करून उदक पिलों आनी सुशेगाद बसलों.

उदक पितकच जिवाक बरेंऽ दिसलें. हांव आतां जायत्यो गजाली शिकलों. पयलीं हांव कितें खावपाचें – कितें खावपाचें न्ही कांयच नकळ आसलों.

लाकडाचो कुडको मेळ्ळो तोच चाबडायतालों.

जोत्याव्हाण मेळ्ळी तीच खातालों.

वासूचें सुकत घाल्लें काल्सांव लेगीत एक दीस चाबडायलें.

आवयन मागीर म्हाका खूब मारलो.

नाका तें काल्सांव खावप - अशें जालें म्हाका.

पूण तेन्नाच्यान हांव बारीकसाणेन खंयच्यो वस्तू खावंच्यो, खंयच्यो न्ही तें शिकूंक लागलों.

तश्यो जायत्यो वस्तू हांवें हांगा खाल्यो. पेज, शीत, केक, पांव, आंब्रील, पोळे, नुस्त्याचीं बोडकां.

नुस्त्या वेल्यान याद जाली. केन्ना केन्नाय वासू-आवय खूबशे बांगडे हाडटाली. दनपरां ते सगळ्या सगळे तळटाली.

हांव खोंपीच्या दारार बसून चुली कडेन वास घेत बसतालों.

काय बरो वास येतालो!!

तो वास घेत घेत हांव दारांतच पडून रावतालों.

आवय भायर सरली रे सरली - 'म्हाका तळिल्लो बांगडो दी' म्हूण तिचे पांय बुड्डितालों. शेंपडी हालयतालों. ओगीच भोंकून तिचे भोंवतणीं नाचतालों.

तिका सगळें कळटालें!

पूण एक्का दिसा तिणें म्हाका तळिल्लो बांगडो खावंक घालो ना.

कसली जावंची जाणा ही आवय!!

पूण हांवें तिका केन्नाच कितें वायट उलोवंक ना. वायट चितूंक लेगीत ना.

कितलीय जाल्यार म्हजी धनीण ती!!

हांव आतां वासू बरोबर गोरवां कडेन वचूंक लागिल्लों. हांव, वासू, दुमिंग. तिगय जाण बरोबर भोंवताले.

रानांत आमी जायतें खाताले. केन्नाय दुमिंग बांगडे घेवन येतालो. मागीर बडयो - पालो एकठांय करून पोल्ली पेटयताले , त्या पोल्लेंत बांगडे भाजताले.

ते म्हाका खावंक घाले बगर केन्नाच खाय नासले.

पोल्लेंतल्या उज्यांत भाजिल्ल्या बांगड्याची रूच अजून म्हजे जिबेर आसा.



एक दीस झोंपांत म्हाका माजरा भशेन कसलें पील दिसलें. हांव ताचे कडेन खेळपा खातीर ताचे फाटल्यान लागलों. कितल्या फास्ट पळटालें तें पील! हांवंय बी फोर्सान धांवतालों. दुमिंगान आमकां पळयलें मात. 'आरे, सोंशाचो पिलो मरे, सोड नाका तेका- धर' अशें म्हणत म्हज्या आदाराक तोय बी आयलो. हांवें एक व्हडली झोंपय मारून सोंशाचेर उडी घाली आनी ताचे मानगुटेक घट्ट धरलें मात- तो सोंसो मरूनच पडलो.

हांवें सोंशाक धरलो म्हूण वासू आनी दुमिंग म्हाका खूब ताखेले. वासून तो सोंसो घरा व्हेलो आनी 'भकाऱ्यान सोंशाची कास केली' अशें आवयक सांगलें. आवयन त्या सोंशाची शागोती केली. म्हाका शागोतेंत कालोवन शीत दिलेंच - हाडांय बी चोखूंक दिलीं.

हाडां चोखपाची रूचच वेगळी! हांव वरांचीं वरां तीं हाडां चोखत बसलों. थोडीं हाडां हांवें दोंक्यान माती उसपून फोंड मारून पुरून दरवलीं. मागीर केन्नाय खावंक जातलीं!!

दुसरे दिसा आवय भुती बांदतना वासून आवयक सांगलें-'आवय शागोती आसल्यार दवलोभर दुमिंगा खातीर दी मगे! तेणेंय सोंशाक मारपाक जायती कास्तीक काडल्या' आवयन मागीर दुमिंगाक शागोती दिली.

दनपारचें जेवता तेन्ना वासून दुमिंगाक शागोती दिली. तो खोशी जालो.

'भकाऱ्या पासोत सोंशा-मांस खावच्या मेवलें' अशें म्हणून ताणें इल्लो मांसा-कुडको म्हज्या तोंडांत घालो.

'गोरवां राखणेक वचत सावन भकारो आंगान बी भरोन आतां बरोऽ सुणो दिसो लागलो' अशें आवय लेगीत म्हणूंक लागली.

गोरवां राखूंक गेल्ले कडेन हांव जायत्यो गजाली शिकलों.

वासावेल्यान हांव शेणिल्ली गाय सोदूंक लागलों.

वासूचे भुतयेचे पोंटलेक वास घेतनाच तांतूंत कितें आसा तें म्हाका ज्युस्त समजतालें.

मनशांक लेगीत हांव वासानूच वळखूंक लागलों.

एक दीस तर मजाच जाली.

धर्मू रानांत काण्णां हाडपाक गेल्लो, तो शेणलो. सगळीं वाड्या वेलीं धाकटुलीं पोरां काण्णां, चारां, चुन्नां बी घेवन घरा पावलीं.

रात जाली तरी धर्मू घरा पावंक ना. पोरांक विचारल्यार तो आमचे बरोबर फाटल्यानच येतालो, म्हणूंक लागलीं.

मागीर वाड्यार घे बोवाळ!

शेवटाक 'देंवचारान लिपयलो बी ना मूं?' अशें एकल्यान म्हळें, आनी घरांत रडारड सुरू जाली.

हांव आनी वासू भाटकारालीं गोरवां पावोवन घरा आयले, तर घरांत सगळीं रडटात.

आवय आनी आबोलें 'धर्मू रेऽऽ, धर्मू रेऽऽ खंय गेलो रे म्हज्या भांगराऽऽ' करून बोब मारतात. शेजारचे कोण चुडी बी पेटोवन राना वटेन वचूंक लागल्यात.

आतां बरीच रात जाल्ली. सगळ्याक काळोख! हांव आनी वासू लापयांव पेटोवन घेवन त्या काळखांत रानांत गेले. धर्मूक उलो घालूंक लागले. ताका झोंपांनी हांगा-थंय सोदूंक लागले. आमचे फाटोफाट आवय, आबोलें आनी शेजारचे दोग-चार जाण आयले.

सगळो वाठार 'धर्मूऽऽ धर्मूऽऽ' करून गाजूंक लागलो.

'उमाशेक सूर-रोंठ दितां रे तुका देंवचारा, पूण म्हाज्या धर्मूक सोड' आवय देंवचाराक होरावंक लागली. 'कितेंय चूक बीन जाल्या जाल्यार भोगोस' म्हण शेजाऱ्यान म्हळें. आवयन पोले फोडून घेतले - देंवचाराची चूक मागली. भुरग्यांक उबारून व्हरपी आनी तांकां लिपोवपी हो देंवचार म्हाका पळयन दिसलो.

कसो दिसता काय हो देंवचार? चड करून त्या कामीलपायचे बशेन

दिसता जातलो. कामीलपाय दारांत आयल्यार आवय म्हणटाली–‘हो पळय आयलो देंवचार...!’

धर्मू बी ताका थर्त भिताले.

हांव देंवचाराक सोदपाक वास घेवंक लागलों. कामीलपायचे वासा बशेन खंयय वास येता काय म्हूण पळोवंक लागलों.

आनी म्हाका देंवचाराचो न्ही तर धर्मूचोच वास येवंक लागलो.

आनी धर्मूचो वास म्हाका रानावटेन निखालस येना आसलो ... तर सकले वटेन भाटांतल्यान येतालो.

हांव भोंकत भोंकत भाटांतल्यान वतां हें पळोवन सगले म्हज्या फाटल्यान येवंक लागले.

भाटकारान कवाथे रोवपाक भाटांत नेमां मारिल्लीं. एका नेमा कडेन वचून हांव भोंकूंक लागलों. त्याच फोंणाऱ्यांतल्यान म्हाका धर्मूचो वास येतालो.

सगले जाण नेमा म्हऱ्यांत येवन पळोवंक लागलें, तर धर्मू त्याच नेमांत पडिल्लो आसा.

पोर रडून रडून पुरो जावन सुस्त न्हिदिल्लो त्या फोंडांत. तो धाकटुलो जाल्ल्यान ताका त्या फोंणाऱ्यांतल्यान वयर सरूंकूच येना आसलें.

आवयन ‘धर्मूऽ धर्मूऽ’ करून उलो घालो. तसो तो जागो जावन रडूंक लागलो. आवयन मागीर ताका दोनय हात वयर काडूंक लायले. मागीर नेमाचे धडेर उबी रावन, ओणव घालून ताचे हात आपल्या हातांत घट्ट धरले, आनी ताका सडसडीत ओडून भायर काडलो.

त्या दिसा आवयन पळय म्हजी अपुरबाय केल्या ताका शीम–मेर नासली.

सगल्यांक वाडचे पयलींच म्हजे ताटलेंत शीत-कडी!

आनीक सगल्या सगलो तळिल्लो बांगडो!!

हरशीं सदांच म्हज्या वांट्याक बांगडे उजरायतना भायर वडयतात तीं बोडकां...

तींय बी सच्चू आनी दातू...घरांतलीं दोगांय माजरां म्हाका भुरकून...नाकटां तोंपून...झोमून घेतालीं.

म्हजे ताटलेंत तो तळिल्लो बांगडो पळोवन हांव सामकोच पिसांवलों.

भूक भूक करून तो बांगडोच पयलीं भकायलो. मागीरच शीत खालें.

हरशीं जाल्यार आवय-'भकाऱ्या, असो दुकळांतल्यान आयिल्ले बशेन भकू नाका रे... सवका खा...' अशें म्हणून तापयताली. पूण आज तिणें म्हाका कांयच म्हणूंक ना.

त्या दिसाच्यान शेजार-पाजारचींय सगळीं म्हाका 'हो पळय भकारो आयलो...' अशें म्हणून रेस्पेदान आनी व्हडवीकायेन पळोवंक लागलीं. रस्त्यान वतना ओगीच म्हजेर फातर शेंवटांवपी तवनास भुरगीं लेगीत म्हाका 'चूक चूक' करून आपोवंक लागलीं. आनी बिस्कूत बी खातना इल्लो कुडको म्हजे मुकार वडोवंक लागलीं.

वासूक आनी दुमिंगाक त्या दिसाच्यान नवोच खेळ मेळ्ळो. कसलीय वस्त घेवप आनी म्हाका वास दिवप. मागीर ती पयस खंयतरी झोंपांत लिपोवप नाजाल्यार मातयेंत पुरून दवरप. हांवंय उमेदीन, वास घेत घेत ती वस्त सोदून काडटालों. पुरून दवरिल्लो धोणसाचो कुडको हांवें माती उस्तून सोदून काडलो आनी खालो. त्या दिसा तर वासून म्हाका केद्या व्हडल्यान 'शाब्बास भकाऱ्यो' म्हळं. आनी म्हाका वेंग मारली! वासूचें नवें काल्सांव त्या नावाडग्या किस्तोदीन चोरून व्हेल्लें. तें घालून तो बरो

बाजारांत वतालो. ताका हांवें भोंकून भोंकून नाका पुरो केलें. हांव ताचेर उडक्यो मारून भोंकतां म्हूण जायते जाण 'भकाऱ्यालें कितें जालां?' म्हूण पळोवंक लागले. वासूय थंय पावलो. तो आपलें काल्सांव वळखलो. त्या दिसा त्या किस्तोदीक पळय जी लज जाल्या ती सोंसपाची न्ही! कितलेशे दीस तो आमकां तोंड लिपोवन भोंवतालो.

एक दिसा हांव आनी वासू भाटकारालीं गोरवां राखणेक व्हरपाक तांच्या गोठ्या कडेन गेले. तर थंय व्हडलो बोवाळ चल्ला.

थंय भाटकार, भाटकान्न, तांचो चलो संतोष, ताचो इश्ट शशी सगळे आसात. शेजारचे चलेबाब, रघूमाम बी जमल्यात. आनी थंय पोलीस आसात!

पोलिसांक पळोवन वासू थर्त भिलो. आमकां पळयतनाच त्या संतोषान म्हळें- ' हो पळे आमचो गोरवां-राखणो. हो लेगीत आमगेर सदां येवंपी...'

'तू रातचो कितल्या वरांचेर हांगा आयिल्लो?' तो पोलिसाचो सायब आशिल्लो तो वासूक विचारूंक लागलो.

वासू भिलो. 'हांवेंन कांयच करूं ना सायबा.' अशें म्हणून त्या सायबाच्या पांयां पडूंक लागलो. 'हांव आमोरेर गोरवां गोठ्यांत बांदून घरा गेल्लों' ताणें सांगलें.

'तुजे बरोबर आनी कोण आसलो? सारकें सांग. नाजाल्यार तुका जाग्यार हाडूंक हांव जाणां'

त्या सायबान अशें तापयनाका वासून कडकडत सांगलें- 'हय सायबा

म्हजे बराबर भकारो आसलो’

तो सायब एकदम खोशी जालो. ‘पळयलें, आतां कसो सत उलयता तो!’ अशें म्हणून ताणें दुसऱ्या पोलिसांक सांगलें– ‘चलात, त्या भकाऱ्याक धरून हाडात.’

‘पूण. तो हिंगाच आसा सायब’ वासू थरथरत उलयलो.

‘हांगा आसा? खंय तर तो?’ पोलिसान विचारलें.

‘हो न्हूं. म्हज्या पांयां कडेन उबो आसा.’ वासून म्हजे कडेन बोट दाखय नाका, सायब सामको चवताळलो.

‘पुलिसांचीं फकाणां करता?’ अशें म्हणून तो वासूच्या आंगार येवंक लागलो. तशें हांवें ‘गुर्ऽ’ करून ताका शिटकायलो.

पुलीस जाल्यार कितें जालें? म्हज्या धनयाक हांव मारूंक दितां?

मागीर भाटकारच मदीं पडलो. ताणें म्हळें– ‘हो पोर एऽदो आसत सावन आमचीं गोरवां राखता. आनी तो घरांत येना. खंय कितें आसा ताका कांयच खबर ना.’

मागीर भाटकाराच्या चल्यान त्या संतोषान म्हळें– ‘पूण तागेली भयण आमगेर वावराक येता. ती सगळें घर भोंवता. आई फाटल्यान बेडरुमांत लेगीत वता. तांच्या घरांत पळोवंया.’

‘तें पोर सामकें सादें. ताचे वाटेक वचनाका.’ भाटकान्नीन अशें सांगून लेगीत तो संतोष पुलिसांक घेवन आमगेर पावलो.

पयसुल्यानच पोलिसांक पळोवन आवय–आबोलें बी भिलीं. आवयन कामीलपायक, उत्तम दादाक, शाणू आवयक बी उले घाले. रोकडीच खोंपीच्या दारांत ही गर्दी जाली.

पोलिसांनी सगळ्यांक कुशीन काडलीं आनी खोंपींतलें सगळें सामान

उस्तून उडयलें. हांवें व्हडान भोंकून तांकां विचारलें- 'आरे, आवयचें सगळें सामान कित्याक उस्तयतात तुमी? हांव तुमकां ओगी रांवचों ना..!'

उत्तमदादान म्हाका घट धरलो. वासून म्हाका 'ओगी राव' म्हळें.

मागीर उत्तमदादान, कामीलपायन बी पोलिसांक कितें कात सगळें विचारलें.

'भाटकारागेर तांच्या कुडींतलें कपाट उगडून पन्नास हजार रुपये चोरयेक गेल्यात.' अशें पोलिसांनी सांग नाका सगळेच अंजापीत जाले. ते तशेंच भाटकारागेर गेले.

'तुगे राखण्याघोर तपासून जालें भाटकारो, आतां आनी कोणागे घोर बुश्कार कोत्ता?' कामीलपायन भाटकाराक विचारलें.

'तुजे घरांक कोण-कोण येतात तें मातशें चिंतून पळय. आनी कपाटाची चावी खंय आसता, आनी ती कोणाक खबर आसा तें चींत.' उत्तमदादान सांगलें. 'घराचें दार कोणें उकतें केलें तें चींत.'

'हो आमगे भकारो वासा वेल्यान मनशांक सोदून काडटा.' कामीलपायन म्हजे तकलेर थापटीत म्हळें.

त्या बरोबर त्या पुलिसांच्या सायबान म्हाका घरांत हाड म्हळें.

पूण हांव कसो घरांत वतलों? 'सुण्यान घरांत वचप ना' अशें वासूआवयन सांगिल्लें म्हाका घट याद आसा.

मागीर कामीलपायन आनी उत्तमदादान म्हाका फोर्सान ओडून एका उकत्या कपाटा मुकार व्हेलो.

म्हाका कायच कळना जालें. हे म्हाका कित्याक त्या कपाटांत घालतात?

हांव फाटीं-फाटीं सरत रावलों.

इतल्यान त्या पोलिसाक कपाटा म्हऱ्यांत पडिल्लो एक लेंस मेळ्ळो.

"हो लेंस कोणाचो?" त्या सायबान विचारलें.

"ना. म्हजो न्ही हो लेंस!" अशें भाटकारान लेंसाक पळोवन सांगलें.

"संतोषाचो बी न्ही मूं?" भाटकारान भाटकान्नीक विचारलें.

'ना म्हळ्यार. संतोषाचे लेंस सगळे रंगीत. असलो धवो लेंस तो केन्नाच वापरना.' भाटकान्नीन सांगलें.

उत्तमदादान तो लेंस म्हाका दाखयलो. ' ना. आमगेलो लेंस न्ही हो. आमगेर लेंसच नांत.' अशें हांव भोंकूंक वतालों. पूण उत्तमदादा आनी तो पोलीस सायब परतो-परतोय लेंस म्हज्याच नाका कडेन व्हरतात. चोंबतात सामके नाकांत!

शीऽ... चेराचो आनी सिगाराचो वास सामको! कामीलपायचें चेडूं इगर्जेंत वतना मारता तो चेर काय बरो! हो वास सामको वीट येवपाचो!... हांव फाटीं सरलों.

'भकाऱ्यो, वास घे. कोणाचो हो लेंस?'

'भकाऱ्यो, हो कोणागे लेंस चोय!'

उत्तमदादान आनी कामीलपायन अशें परतें परतें सांगनाका, हांवें चिंतलें...म्हजो, वासूचो आनी दुमिंगाचो खेळ... दुमिंग आनी वासू कसलीय वस्त खंयूय लिपोवन म्हाका सोदून काडूंक लायताले... सोदून काडतकच म्हाका पोशेताले.

आतां ह्या लोकांच्या घरांत हो खेळ खेळपाचो?

पूण म्हाका त्या लेंसाचो वास वळखिचो दिसलो. आज सकाळीं गोठ्या कडेनय तो वास म्हाका आयिल्लो...

इतल्यान संतोष आनी शशी खंयतरी गेल्ले ते भायल्यान आयले.

'कितें जालां? आनी ह्या सुण्याक घरांत कोणे घेतला? बडी-बडी हाडूं चल भायर.' तो संतोष म्हाका धांवडावंक लागलो. हांव शेंपडी खाला घालून भायर वचूंक लागलों. तो शशी दारांतच आशिल्लो. तो म्हाका भिवन कुशीक सरलो. त्या शशी म्हऱ्यांतल्यान वतना म्हाका तो वास आयलो. चेराचो. सिगाराचो.

हांव तसोच परतलों आनी त्या शशीच्या आंगार पांय दवरून उबो रावलों. उत्तमदादा कडेन, कामीलपाय कडेन पळोवन शेंपडी हालोवंक लागलों. 'पोशेयात आनी शाबास! म्हणात मरे म्हाका!' हांवें भोंकून सांगलें.

पूण त्या शशीन म्हाका धुकलुनूच उडयलो. आनी खोंट मारपाक पांय आनी उबारलो. हांव कुशीक सरलों. तो संतोष आनी बडी घेवन म्हाका मारपाक आयलो. भाटकारान ताका आडायलो म्हूण बरें!

'बाबा, हो सुणो पिसावला जातलो. पळयलें ना तुवें, शशीच्या आंगार चडून घांस मारपाक गेल्लो तो!' संतोषान म्हळें.

'आतां हें बरें हागेलें! म्हाका खेळपाक आपयतात, लेंस कोणाचो तें सोद म्हणटात, आनी सोदून काडल्यार हांव पिसांवलां म्हणटात! पाडा पडलें ह्या मनशांचें?'

पूण तो पोलीस-सायब शाणो मनीस आसलो. ताणें शशीक विचारलें- 'तुजो लेंस पळोवंया?'

त्या बरोबर शशीन बोल्सांतलो लेंस भायर काडलो. 'धवो फुल्ल... आनी चेराच्या... सिगाराच्या वासाचो!

'तुका आमचे बरोबर पोलीस स्टेशनार येवंचें पडटलें.' त्या सायबान

शशीक सांगलें तसो तो सगळोच गडबडलो. 'हांव सो? हांव कित्याक?... हांव येवंचों नां...' अशें म्हणूंक लागलो.

मागीर पोलिसांनी ताका घट धरलो आनी ते ताका आपले बरोबर व्हरूंक लागले.

'संतोष , तूं म्हजो इश्ट म्हणून हांव तुगेर आयलों. हे पोलीस म्हाका धरतात आनी तूं ओग्गी रावता? ...सांग मरे तुज्या बाबाक, - तुमी ओगी रावल्यार कशें जातलें?' ताणें संतोषाक सांगलें.

पोलीस ताका ओडीत व्हरूंक लागले. भायर खूब लोक आशिल्ले... त्या शशीक लज शी जाली. ताणें म्हळें - 'हांव येता न्हीं? तुमी म्हाका लोकां हुजीर ओडनाकात असो..'

'तूं तुजे बरोबर आनीक कोणकोण आसात तें सांगना तर तुका आतां बेडयो घालून व्हरतलों..' अशें त्या सायबान म्हणूं नाका.. शशी सामकोच गळगळलो आनी ताणें त्या सायबाच्या पांयार घालून घेतलें.

'संतोषान आनी हांवें कपाट चावयेन उगडून पयशे काडले... फाल्यां आमी हॉस्टेलांत वचपाचे आसात...' अशें ताणें सांगनाका, संतोष ताचे आंगारच गेलो. 'म्हजें नांव सांगता?.. बाबा, हो फट उलयता... ताकाच आपलें रीण फारीक करूंक पयशे जाय आसले...'

'म्हजें रीण? काय आमचें दोगांयचें रीण? फोल्गां मारतना तूं म्हजे बरोबर नासलो?' तो शशी संतोषाचेर जुडून गेलो.

पोलीसांनी तांचीं बॅगां तपासलीं. दोगांच्याय बॅगांनी मेळून सगले दुडू मेळ्ळे भाटकाराचे..

भाटकारान आनी पोलीसांनी त्या दोगांचेंय कितें केलें म्हाका खबर ना. पूण गांवभर बोवाळ- 'भकाऱ्यान चोराक धरलो'. वाड्या वेलो

सगलो लोक आमच्या घरांत येवन म्हाका अपुरबायेन पळेताले. आवयन मागीर 'भकाऱ्या, असो हांगा यो पळोवंया..' म्हणून दाव्या हातांत मीठ-मिरसांगो घेवन म्हजे वेल्यान ओंवाळून ओंवाळून पयस व्हरून उडयल्यो.

वासू आनी हांव आतां सामकेच इश्ट जाल्ले. वासू वता थंय ताचे फाटोफाट हांव आसतालोंच! त्या कारणान वासूले सगळे ईश्ट ते म्हजेय बी इश्ट जाल्ले.

दुमिंगाक तर हांव पयले दिसाच्यान वळखतालों. त्या खेरीज सोमो, सुकडो, कायतान, मर्तो, एकनाथ -- अशे जायते जाण म्हजे इश्ट जाल्ले.

- एक दीस आमी गोरवां भाटकारागेर पावोवन आयल्यात मात, एकनाथ सामको धांवतच आयलो.

'वासू, जात्रेक वचपाचें मरे? -सोमो, सुकडो, मर्तो सगळे तयार जाल्यात. जेवन भायर सरोंया- सारके पालखेक पावतले... मागीर जात्रा बीन भोंवून दीस उजवाडचे पयलीं फात्यारच घरा पावुया...'

वासून आवयक विचारलें... आवयन ताका म्हळें- 'वच!.. देवते-पालखेक ना म्हणूक ना तुका हांवें... पूण दीस जावचे पयलीं घरा पावोंक जायें..'

ताचें आयकून धर्मू रडूंक लागलो -

'आवय, हांवंय बीन... दादो, हांवंय बीन जात्रेक वतलों...'

तो कस्सोच थांबना जालो.. रडत रावलो.

म्हाकाय बी जात्रा म्हळ्यार कितें तें पळोवंक जाय आसलें.

हांवें 'भोक्-भोक्' करून वासूचेर उडक्यो मारल्यो आनी शेंपडी हालोवन उमेदीन वासूच्या तोंडाक पळयलें.

वासू कितेंय उलोवंचे पयलीं एकनाथच म्हणूंक लागलो – 'वासो, आमी भकाऱ्याक बराबर व्होरोया? आमकां मागीर केसलोच भंय ना. राती वेळार वचपाचें म्हळ्यार...'

वासून आवयच्या तोंडाक पळयलें. हांवय बी 'कूं–कूं' करून असो–असो आवयचे भोंवतणीं नाचलों... तिचे पांय म्हज्या दोक्यांनी बुड्डयलें... आनी आवयच्या तोंडाक पळयलें.

'कसो फुल्ला पळे जात्रेक वोसोंक...' आबोलें म्हाका पोशेत म्हणूंक लागलें.

मागीर आवयन म्हळें, – 'व्हरतात जाल्यार व्हरात तेका... पूण सांडोवन मात येवं नाकात हां... आनी धर्मूकूय सांबाळून व्होरात... सांबाळून हाडात...!'

आमी सगळेजाण उमेदीन जात्रेक गेले. जात्रा बरीच पयस आसली. कितले चल्ले.. पावून पावनांत...

धर्मूक मागीर उबारून खांदार घेवंचो पडलो वासूक!

– मागीर एकदांचे देवळा कडेन पावत आयले. पयसुल्ल्यानच केदो बोवाळ.. आवाज आयकूंक येतालो. थंय कितलो लोक म्हणून सांगचो?..गर्दी सामकी! चारय वटच्यान पळयल्यार लोक भोंवतात.. भुरगीं, बायलो, दादले... सगळीं सामकीं चकचकीत कपडे घालून...!

तरीय वासून, धर्मून बी नवीं खोमसां–काल्सांवां घाल्लीं.

गर्देक लागीं पावनाका, हांव वासूचे फाटल्या फाटल्यान रावलों.

कितले मांड थंय! तरेकवार सामानाचे...! धर्मू तर तीं दुकानां पळोवन पिसो जालो सामको!



'हें घे रे दादो... तें घे रे दादो...' अशें करून ताणें वासूचो जीव खालो सामको.

म्हजे पाय तर आपशींच खाणांचे मांड आसात थंयच जड जाताले.

– मुकार वचप नाकाच दिसतालें...

नाक सामकें त्या गोड–गोड वासान भरतालें.

पूण वासू मुकार वता म्हणतकच ताचे फाटल्यान वचचेंच पडटालें.

वासून धर्मूक एक एऽद्दो व्हडलो बोमाडो घेवन दिलो.

धर्मू तो बोमाडो घेवन खोशयेन नाचत भोंवतालो.

मर्दींच 'ठोऽऽ' असो मोठ्ठो आवाज जालो. हांवें कच्च करून आंग काडलें.

पळय जाल्यार धर्मूचो बोमाडो फुटला...!

धर्मू व्हडान रडूंक लागलो.

'धर्मू, हांगा रोडों जायना... लोक तुका हांसतले.' वासून ताका जायतो

समजायलो.

मागीर चण्यांची पुडी घेवन दिली ताचे हातांत. तशी धर्मूची रड पुट्ट करून थांबली.

धर्मू कुटू-कुटू करून चणे खायत भोवंक लागलो. हांवें शेंपडी हालोवन धर्मूच्या तोंडाक पळयलें...

म्हाका दिशिल्लें, दोन चणे म्हजे मुकार उडयतलो. पूण तो एकलोच चणे खावंक लागलो...

– एक लेगीत चणो म्हजे मुकार उडयना...!

भकारो खंयचो...!

–आनी म्हाका मात 'भकारो' म्हणटात...!

हांवें धर्मूक सोडलो आनी वासूचे फाटल्यान चलूंक लागलों. मदींच चलतां-चलतां कोणें तरी म्हज्या दोक्यांचेरच पांय दिलो.

हांवें एकदम 'क्यांव!' करून बोवाळ घालो.

'दोळे फुटल्यात रे? पळोवन चल सारको-' अशें हांव भोकूंक वतालों-

तर उरफाटे त्या मनशानच केदो बोवाळ घालो!

'हाड्-हाड्.. ह्या जात्रांनी लेगीत हीं जगावेलीं सुणीं भोवंक लागलीं..' अशें म्हणत तो मनीस म्हाका मारूंकच उठलो.

'आगा, आमगेलो गा तो सुणो... आमीं पोशिला तेका... तो जगावेलो न्हूं... आमगे भकारो तो...' अशें कितें-कितें वासून; एकनाथान बी कितलें सांगलें. पूण तो मनीस आनी ताचे बरोबरचे ते दोन मस्ते तरणाटे म्हाका मारूंक सोदूंक लागले. – म्हाका फातर मारून धांवडावंक लागले.

म्हजो पांय माड्डि ता तो मनीस, आनी वेल्यान म्हाकाच मारता?

हें कितें रजांव जालें?

म्हाकाय मागीर तिडक मारली आनी हांवें व्हडान भोंकून त्या मनशाक सांगलें - 'आरे मनशा, तुजीच चूक आसा. हांव थंडसाणेन वासू फाटल्यान चलतालों... तुवें मर्दीच येवन म्हजो दोंको माड्डिला... आनी वेल्यान म्हजेरच जुडून येता?'

'पळय, पळय, कसो भोंकून आंगार येता तो! हीं रस्ताद सुणीं चाबल्यार माणसुकी आसा? फारान मारूंक जाय तांकां!!' अशें म्हणत ते दोनय मस्ते तरणाटे फातर घेवन म्हजे फाटीकच लागले.

वासून मर्दी पडून म्हाका सोडोवपाचो यत्न केलो, तर त्या मनशान कितें करचें? 'सुणें घेवन जात्रेक येता कित्याक?' अशें म्हणून वासूचेरच थापट फुलयलें.

धर्मू मागीर व्हडल्यान रडूंक लागलो.

आतां म्हगेले वासूक तो मनीस मारता हें हांव कशें सोसून घेतलों?

म्हाका असोऽ राग आयलो, सोसपाचो न्ही!

हांव भोंकतच त्या मनशाच्या आंगार चडलों.

'म्हज्या वासूक मारल्यार हांव ओगी रावचों ना तुका...' अशें हांव सांगतालों, पूण...

जात्रेंतले सगळे लोकूच म्हजे दुस्मान शे जाले 'पिसावला जातलो हो सुणो..' अशें म्हणून म्हजेर फातर शेवटूंक लागले.

'कुशीक सरात... सुणो चाबता...' असो बोवाळ घालूंक लागले. हांव मुकार धांवतां... म्हजे फाटल्यान फातर शेवटीत लोक धांवतात. बायलो भुरगीं किळचतात. आकांतान बोबाट मारतात... धांवतात...सगळोच गोंदळ...!!

कसोतरी जीव घेवन धांपेत धांपेत हांव एका घराचे भितोडेक असोऽ

दोपून बसलों.

त्या लोकांनी म्हाका खूब सोदलो. पूण तांकां दिसूंकच ना हांव.

शेवटाक ते बडबडत परते गेले– 'परतो गांवांत दिसल्यार जितोच मारूंक जाय ताका. पिसाळिल्लो सुणो गांवांत आसप बरें न्हीं...' अशें म्हणत ते गेले, तेन्नाच हांवें उस्वास सोडलो.

म्हजें काळीज अजून खपखपतालें. परतें जात्रेक वचून वासूक बी सोदूंक जाय आसलें. पूण ह्या मनशांचें कांयच सांगपाक येना.

केन्ना बरे आसतात – केन्ना पिसावतात!!!

आमकां सुण्यांक 'पिसाळिल्लो सुणो' म्हणप सोंपें. पूण ह्या मनशांक 'पिसाळिल्लो' कोण म्हणटलो?

आनी हीं मनशां खुबल्यार म्हाका खऱ्यांनीच जितोच मारूंक उणें नांत!!!

कितें करचें तेंच म्हाका समजना जालें.

**प**रतो जात्रे वटच्यान वचून वासूक, धर्मूक बी सोदचें अशें हांवें थारायलें...

सगळे म्हजी वाट पळयत आसतले...

हांव हळूच थंयचो उठलों आनी चोरा बशेन चलूंक लागलों

वासू – धर्मू म्हजी वाट पळेतले. खंय रावल्यात काय ते म्हाका? हांव वासूचो, धर्मूचो वास येता काय म्हूण पळोवंक लागलों.

वचचें काय परतें जात्रे कडेन?

हांव अशें चिंतता थंय आसां, इतल्यान म्हजे परस व्हडले दोन सुणे म्हज्या आंगार जुडून आयले. व्हडाव्हडान भोंकून म्हाका विचारूंक लागले.

'खंयचो रे तूं?'

'आमच्या वाठारांत कित्याक आयला?'

'नाक धरलां काय कितें तुजें? आमच्या मुताचो वास येना तुका ह्या वाठाराक?'

'लाग चलूंक हांगा सरलो...!'

परतें परतें अशेंच म्हणत ते दोनय सुणे म्हज्या आंगार जुडून भोकूंक लागले.

म्हाका हो वाठार तांचो हें समजतालें. मुताच्यो घाणीय येताल्यो तांच्या... तरी पूण हांवें भोकूनच परतें रागान तांकां विचारलें – ' म्हाका मनशांनी धांवडायले हें समजूंक येता. पूण तुमी म्हज्याच जातीचे आनी म्हाका धांवडायतात– हें रजांव जालें?

पूण ह्या संवसारांत रजांव आयकून घेवन त्या प्रमाण वागपी खूब्ब थोडे!

'आमचे परस ल्हान, आनी आमकां जाणवायो सांगता? आमकां शाणेपणां शिकयता?' अशें भोकत भोकत ताणी म्हाका थयच आडवो घालून पिसुडलो सामको.

पयलींच त्या मनशान बुटाच्या पांयान माड्डियिल्यान दोंको दुखतालो. तांतूंत ह्या सुण्यांनी म्हाका घांस काडून काडून पिसडून खालो सामको!

हांव थंयच उदारो पडलों आनी 'क्यांव क्यांव'! करून सामको शरण आयलां हें तांकां जाणयलें–

–तेन्नां तांणी म्हाका सोडलो.

तरीकय ते गुरगुरत थंयच उबे रावले.

मागीर हांव शेंपडी खाला घालून कुटत कुटत थंयच्यान चलत रावलों. चलत रावलों आनी वास घेत घेत तांच्या मुताचो वाठार सोंपलो तसो एका झाडा मुळांत बसलों. इतलें पुरो जाल्लें की थंयच मेल्ले बशेन पडलों आनी न्हिदलों.

दीस उजवाडलो तरी म्हाका थंयचें हालनच दिसना जालें. हांव थोडो वेळ थंयच पडून रावलों.

खंयचो गांव काय हो? बरींऽ घरां बी दिसतात. आतां दनपार जाल्ली. पोटाक भूक लागिल्ली.

कोणय कितेंय पोटाक घालत म्हूण एका घराच्या दारांत गेलों. पूण तांणी 'हाड हाड' करून धांवडायलो. दुसऱ्या दारांत गेलों. थंय तर तो जाण्टेलो बडी घेवनच म्हजे फाटल्यान लागलो. उणें म्हणून दोन भुरगेय फातर शेवटूंक लागले.

म्हजो मनीसजाती वेलो विस्वासच ना जावंची वेळ आयिल्ली – पूण घराची याद जाली. वासू–धर्मू, आवय, आबोलें, दुमिंग, आमचे गांवचे लोक, सगल्यांनी म्हाका कितलो मोग दिल्लो!

थोडीं मनशां वायट आसत – पूण थोडीं तरी बरीं आसतलींच!

म्हाका भोवन भोवन घराची याद येवंक लागली. काय बरो सुशेगाद आशिल्लो वासूगेर! पोटभर जेवतालों. नाचतालों– खेळटालों– वासू बरोबर गोरवां राखतालों. खंयची बुद्द जाली म्हाका ते जात्रेक वचपाची!

म्हाका येवजून रडूंक येवंक लागलें. पूण रडून पोट थोडेंच भरतलें! उठलों आनी चलूंक लागलों.

हें घर तरी म्हाका पोटाक घालीत काय? हांवें पळयलें, दारांत भात सुकत घाल्लें. कावळे येवन भात खाताले. वासू-आवय भात सूकत घाल्यार सदांच म्हाका राखणेक दवरताली, ती म्हाका याद जाली.

हांगा भात राखूंक कोण ना काय ?

'आरे मनशांनो, तुमचें भात कावळे खातात पळयात' हांव व्हडान भोकून आइडलों.



एक जाण्टेली बायल घरातल्यान भायर आयली. 'हार्त हार्त' करून कावळ्यांक आमडूंक लागली.

म्हाका ती बायल वासू-आवय बशेन मोगाळशी दिसली. हावें तिका शेंपडी हालयली. पूण ती म्हजे कडेन पळय लेगीत ना...!

हाव मागीर कावळ्यांचे फाटीक लागून तांका आमडूंक लागलों. हावें ते जाण्टेलेक शेंपडी हालोवन 'हांव राखतां तुजें भात' म्हूण सांगलें.

जाण्टेलेन म्हाका धांवडायलेंय ना आनी येवकारूय दिलो ना. ओगी

रावन भितर गेली.

–हांव भात राखीत थंयच बसलों. कावळ्यांनी म्हाका जायतो तिडायलो 'आमचे पोटार कित्याक आड आयला?' अशें विचारलें.

शेवटाक कांव कांव करून 'आमकां भात खावंक दिना मरे तूं? तूंय बी तसोच उपाशी मरूं' म्हूण स्त्राप दिवंक लागले.

पूण हांव जाणां आसलों. म्हाका तांचो स्त्राप लागचो ना. वासूआवय शेजान्नी कडेन झगडतना म्हणटाली – 'कावळ्याच्या स्त्रापान गाय मरना' म्हणून.

आतां तांचे स्त्रापान गाय मरना जाल्यार मागीर हांव कसो उपाशी मरतलों?

हांव तांकां आमडीत रावलों. भात राखीत रावलों

वत मातशें मोव जातकच जाण्टेलेन भात एकठांय केलें आनी घरांत घेवन गेली.

ती म्हाका कट्टी भर पेज नाजाल्यार भाकरेचो कुडको तरी उडयतली हे आशेन हांव थंय खूब्ब वेळ बसून रावलों. पूण खंयचे कडेन कांय ना!

म्हाका सामको राग आयलो. पूण कितें करतलों?

कावळ्यांचो स्त्राप बादलो अशें समजून हांव मागीर पोट भरपाक गांवभर हेडूंक लागलों. व्हडलीं सुणीं बी दिसल्यार पयसुल्यानूच पळूंक लागलों.

भोंवतां भोंवतां हांव एका घराच्या मागील दारांत पावलों. थंयच एक भुरगो बडयेन पेरीचीं पेरां काडटालो. बडी पळोवन हांव भिलों. हो म्हजे फाटीर बडी मारतलो काय? पूण ना! ताणें बडी मारली ना. व्हडान आड्डलो मात– 'माईऽ, ए माईऽऽ आमच्या सोल्जरा बशेनच एक सुणो आयला पळय गो'–!

त्या बरोबर एक चली मागील दारांत आयली, 'आरे, हय मरे शिरीष, सामको सोल्जरच सो! सोल्जरा बशेन कपलार नाम लेगीत आसा. आमचो सोल्जर मेला हें हांव जाणां म्हणून बरें! नाजाल्यार हाका सोल्जरच समजुपाचें!' अशें म्हणत ताणें उलो मारलो – 'आई, पळय गे! सोल्जरा बशेन सुणो आयला...'

ती आई थंय आयली. तिका पळयतनाच म्हज्या सुण्याबुद्दी प्रमाण हांवें जाणलें – ही म्हाका आसरो दितली. निदान पोटाक तरी घालतलीच!!

हांवें तिका शेंपडी हालयली. तिचे पांय चाटून म्हज्या दोक्यांनी बुड्डयिल्ले बशेन केलें.

तिणें म्हाका धांवडायलो ना आनी धेंगसोय घालो ना. त्या माईक मात सांगलें – 'आगो ताचें पोट पळय सामकें कापटी जालां. इल्लें शीत हाडून घाल ताका. तें पळय सोल्जराचें ताट आसा तातूंतच घाल. रावल्यार रांव दी नाजाल्यार जेवन वचूं दी–'

इतलें सांगून आई भितर गेली.

माईन म्हाका भितरल्यान शीत हाडून घालें. त्या ताटाक त्या सोल्जर म्हणटात त्या सुण्याचो वास येतालो.

हांवें वसवशिल्ले बशेन तें शीत खालें! माईन म्हाका थंयच आशिल्ल्या आयदनांत उदकय घालें. हांवें तें उदकय पोटभर पियेवन घेतलें. थंयच बसून रावलों.

आनी हांव तागेरच रावलों – त्या घरचोच जालों

भकाऱ्याचो 'सोल्जर' जालों.

**आ**तां हांव सामको माईचोच सुणो जाल्लों. तो गांव ल्हानसोच आसलो. थंय एक इश्कोल आसलें. माई त्या इश्कोलांत भुरग्यांक शिकयतालें.

माई इश्कोलाक वचूंक भायर सरलें तसो हांव ताचे बरोबर वतालों. ताका इश्कोलाक पावयतालों.

इश्कोल लार्गींच आशिल्लें. थंयची घांट घरा कडेन लेगीत आयकूंक येताली. घण घण घण करून ती घांट वाजली, तसो हांव धांवत वचून माईच्या इश्कोला मुखार उबो रावतालों. माई इश्कोलांतल्यान भायर आयलें की ताचे फाटल्या फुडल्यान नाचून ताचे पांय बुड्डितालों. ताच्या आंगार उडक्यो मारतालों. पूण माईन 'सोल्जर, पयस राव' अशें म्हणतकच थप्प करून आसा थंयच उबो रावतालों.

माई मागीर म्हाका तकलेर थापटून 'गुड डॉग' म्हणटालें. आनी आमी दोगांय घरा येतालीं.

माईन म्हाका खूब्ब इंग्लीश शिकयली. 'सीट, अप, गो, कम, ईट' अशें कितें कितें हांव रोकडोंच शिकलों.

आतां हांव माई कडेन फकत इंग्लीशाच उलयतालों. माईन 'अप' म्हळें की हांव दोन पांयार उबो रावतालों. माईन म्हाका दोंको हातांत दिवन शेक हँड करपाक शिकयलें. ताणें 'जंप' म्हळें तशी हांवें उडकी मारलीच!

पांवाचो वा बिस्किटेचो कुडको वयर उडोवन 'सोल्जर कॅच' म्हळ्यार पुरो, हांव वयलेवयर तें जिकून खातालों.

माईली शिस्तय तशीच कडक आसली. ताणें शिकयिल्लें जर हांवें

बरोबर केलें ना तर ताका म्हजो राग येतालो. ताणें म्हाका रागान उलयलो आनी 'बॅड डॉग' म्हळें की हांवें शेंपडी, कान बी अशे बागोवन चोराबशेन जावन कुशीन वचून बसचें.

पूण माई म्हजेर चड वेळ रागार जायनासलें. रोकडेंच 'सोल्जर कम' म्हणटालें. हांव धांवतच ताच्या म्हऱ्यांत वतालों. ताणें सांगिल्लें सगळें बरोबर करतालों. मागीर तें म्हाका तकलेर थापटून 'गूड डॉग' म्हणटालें. हांव सामको भुल्लुसून वतालों आनी सगळ्याक नाचतालों – ताचे पांय बुड्डितालों.

'पांय बड्डुवपाची एक वायट संवंय हाका' अशें आई म्हणटाली, पूण खोशी जाली की म्हज्यान पांय बुड्डयले बगर कश्शेंच रावंक जायना. ताका हांव तरी कितें करतलों? आपलेपण दाखोवपाची खूण ती म्हजी!

त्या खातीर बाप्पा न्हातकच हातांत बडी घेवनच भोंवतालो. हांव बडयेक थर्त भिता हें ताका खबर आसलें. बाब मात म्हाका कितलेंय पांय बुड्डुवपाक दितालो.

आयतार आयलो तशें माई इस्कोलाक वचना हें म्हाका खबर आशिल्लें. माई घरा रावता त्या दिसा हांव खंयतरी लिपून बसतालों. पूण माई म्हाका सोदून काडटालें. गळ्यांत त्या पयलींच्या सोल्जराची सरपळी घालताली आनी पाणट्यार व्हरतालें आनी थंय म्हाका साबू लावन लावन तें उदकांत बुचकळायतालें. म्हाका तें मात्तय आवडनासलें. पूण करतलों कितें?

हांव न्हायना जाल्यार माईक बी म्हज्यो घाणी येताल्यो खंय! म्हणून म्हाका न्हावंचेंच पडटालें. पूण एक मात, त्या दिसा म्हाकाय जिवाक बरेंऽ दिसतालें.



केन्ना केन्नाय हांव माईच्या क्लासांत वचून बसतालों. इश्कोलांतले सगळे भुरगे म्हजी खूब माया करताले. 'टिचरीचो सुणो' म्हूण कितलो रेस्पेद आनी मान आसलो म्हाका! हांवंय बी कसलीच आगळीक करीनासतना रेस्पेदान तांचे पांयां कडेन, बांका पोंदा नाजाल्यार माईच्या मेजा पोंदा ओग्गी बसतालों.

इश्कोलांत बरो शिकतल्या भुरग्याक माई 'गूड - गूड' म्हणटालें. बरो शिकना ताका रागान उलयतालें.

एक दीस सतीश म्हणटात त्या मस्त्या भुरग्याक माईन खूब्ब उलयलो आनी रागान 'गेट आवट' म्हळें.

हांव ताच्या बाकापोंदा झेमतालों. म्हाका दिसलें माई म्हाकाच उलयता.

तो सतीष थंयच आसा. हांवच चोरा बशेन भीत भीत शेंपडी सकल घालून क्लासांतल्यान भायर वचूंक लागलों.

सगळे भुरगे म्हाका पळोवन हांसूंक लागले.

माई लेगीत म्हाका हांसूंक लागलें.

पूण माईन रोकडेंच 'कम सोल्जर, सीट हिअर' म्हळें.

हांव खोश्शी जावन ताच्या मेजा पोंदा वचून बसलों.

पूण म्हाका बरीच लज शी जाली.

तेन्नाच्यान माई रागान उलयलें तसो हांव माईच्या तोंडाक पळयतालों. तें कोणाक उलयता... म्हाका काय दुसऱ्या कोणाक तें म्हाका बरोबर समजतालें.

आतां माईन शिळोणी घाल्यार मात ती म्हाकाच आसताली.

माईली शिळोणी आयकली तसो हांव खंय आसा थंयच्यान धांवत ताच्या म्हऱ्यांत येतालों.

आई मात माईन शिळोणी घाल्यार ताका उलयताली.

कित्याक काय? आपल्याक घालूंक येना म्हणून?

हांवें जायते जाणांक शिळोणी घालतना आयकल्यात पूण माई इतली बेस्ट शिळोणी कोणाकच घालूंक येवंची ना.

आई ओगीच ताका उलयता ती!

चड करून आईक म्हाका शिळोणी घालून आपोवक येना म्हणून जातलें.

म्हजी बकबक् करून भकपाची- खावपाची संवंय माईन सामकी मोडली.

पयलीं पयलीं हांव माई ताटांत शीत घालूंक लागलें तसो खावपाक तकली घालतालों. सगळें शीत मागीर म्हज्या बोडार...!!

माईन मागीर एक बरीऽ शिट्टी हाडली आनी चमचमीत म्हजे फाटीर

मारली.

हांव 'क्यांव' करून कुशीक सरलों.

माईन सीट म्हळें थंयच बसलों.

शीत वाडून जालें तरी माई ती शिट्टी घेवन थंयच उबें रावलें.

आपूणय वचना आनी म्हाकाय शीत खावंक दिनां.

हांव सामको काकुळतेक आयलों.

'कूं कूं' करून बडी पयस वडय म्हणून कितलें विनयलें.

पूण माई तश्शें उबें रावलें.

शेवटाक 'सोल्जर ईट' म्हळें मात, हांव शीताचेर सामको तुटूनूच पडलों.

आतां म्हाका सदचीच संवंय जाल्या. म्हाका वाडतना हांव कुशीक ओग्गी उबो रावतां आनी 'ईट' म्हणतकच खातां.

हे म्हजे संवंयेन एक दीस हांव उपाशीच पडपाचों!

माई कसल्या तरी कामाक त्या दिसा मडगांवां गेल्लें. जेवपाची वेळ जाली तरी घरा पावलें ना.

तें अशें खंयूय वतकच म्हज्या जिवाक सूख लागना. हांव आंगणांत बसून रस्त्यावेल्यान येतली प्रत्येक बस पळयतालों. पडवेर येतालों - परतो आंगणांत वतालों.

सगळीं जेवन जालीं. बाप्पान म्हळें - ' आज सोल्जराक शीत घालनांत? तो पळय सामको वयर सकल जाता.'

मागीर आईन म्हाका ताटांत शीत हाडून घालें. आनी म्हळें 'भूक लागल्या मरे, खा पोरा'

पूण हांव कसो खातलों?

'कूं कूं' करून हांवें आईचे पांय बुड्डयले, तिचेर उडक्यो मारल्यो.

भोंकून भोंकून तिका सांगचें - 'आगे 'ईट' म्हण'

पूण तिका खंय इंग्लीश येताली?

म्हाका आनी माईकच येवपाची ती इंग्लीश!

आई म्हजें कश्शेंच आयकना.

'सोल्जर, खा मरे शीत भूक लागली ना? खा पोरा' अशेंच म्हणत रावली.

'नुस्त्याचो वास घाल ताका शीताचेर मागीर खातलो तो...!' बाबान आईक सांगलें.

मागीर आईन भितर वचून शीताचेर नुस्तें हाडून घालें. 'आतां तरी खा मरे नुस्तें घालां पळय!' तिणें म्हळें

पूण हांव तोंडाक सुटिल्लें उदक लाळे बशेन गळयत थंयच बसून रावलों ताटा म्हऱ्यांत.

म्हाका आतां दोळ्यांतल्यान दुकां येतलीं अशें दिसपाक लागलें.

'सोल्जर आनी जेवना? व्हडलें अजाप!' अशें म्हणत एकएकलो थंय आयलो.

पूण सगळेच अन्नाडी कशे? एकल्याकय येना इंग्लीश उलोवपाक? कोणतरी 'ईट' म्हणत काय म्हणून हांव सगल्यांच्या तोंडाक उमेदीन पळोवंक लागलों. पूण 'ईट' म्हणपाचें सोडून ते कितें कितें उलोवपाक लागले.

'पोटांत बरें ना दिसता ताच्या.'

'खंयूय हेडून कितेंय खावन आयला जातलो...!'

'सदां इतलेंशें रासभर शीत घालतात ताका तुमी, जेवन मस्ती मारल्या

ताका!'

'ताका नाका जाल्यार कावळ्यांक खांवदी तें शीत!' अशें म्हणून एकलो ताट काडपाक मुकार सरलो मात... हांवें 'वीच्च' करून दांत दाखयले, गुरगुरलों. आनी ताटाचेर दोंके दवरून ताट घट्ट धरून थंयच बसलों.

मनांत मात 'माई' बेगीन यो गो! म्हाका 'ईट' म्हण गो. अशें म्हणत आसलों.

'माईन वाडलें ना म्हण खायना मूं तो?' धाकटुल्या मनीषान विचारलें.

'तशेंच जातलें. पूण आतां अडेजांचे बसीर तें पावतलें. तितलें म्हणसर हो असोच बसपाचो?' आईक म्हजो हुस्को जातालो.

'अडेजांची बस येवपाची जालीच' बाप्पान म्हळें.

'ही पळे बस आयली...' बाबान बस पळयली.

इतल्यान खऱ्यानीच बस दारांत थांबली. माई सकयल देंवलें बसींतल्यान.

म्हज्या भोंवतणीं सगळ्यांक पळयनाका, माई बरेंच भिलें जातलें. तें धांवतच पडवेर आयलें.

'कितें जालें? सोल्जराक कितें जालें?' ताणें भिवनशें विचारलें.

'पळय मुगो, तो अन्नच खायना. नुस्तें घाल्यार लेगीत शीताक तोंड लायना' आईन सांगलें.

'माई, तो तुका रावता जेवपाक.' मनीषान सांगलें

'तूं ना म्हणून तो अन्नसत्याग्रहाक बसला.' बाप्पान हांसून फकाणां केलीं.

'कितलें केलें ताका जेवचो म्हणून, पूण खा म्हळ्यार कस्सोच खायना.'

आईन सांगलें.

'आई, ताका खा म्हणून सांगनाका गे. ईट म्हणून सांग'

माईन अशें सांगनाका, आईन 'सोल्जर ईट रे पोरा' म्हळें. आनी हांव सामको दुस्मानाचेर तुटून पडिल्ले बशेन शीताचेर तुटुन पडलों. आनी कांय खिणां भितर सगळें शीत नाच्च करून सगळ्यांक शेंपडी हालोवंक लागलों.

इतली म्हाका भूक लागिल्ली.

सगळ्या जाणांच्या हांसून हांसून पोटांत दुखलें खंय! घरभर लोकांक तोच बोवाळ!

'सोल्जर इंग्लीशमेन जाला!'

'ही संवंय ताका वायटार पडटली.' बाप्पान म्हळें. माईन मागीर ही संवंय मोडपाक जायते यत्न केले.

शीत घालून म्हणप 'खा रे, नाजाल्यार उपाशी पडटलो.'

हांवें तोंडाक पळोवन ओग्गी रावप.

'हाडूं शिट्टी? काय खाता रे तो?' अशें म्हणून माईन बडी दाखोवप... मागीर 'खा आं... खा तूं... ईट...' अशें म्हणून म्हाका पोशेवप आनी जेवंक लावप.

आतां हें मात माईलें म्हाका मात्तय आवडलें ना! आपणेंच 'ईट' म्हूण शिकोवप आनी मागीर आपणेंच 'खा' म्हूण शिकोवप? म्हाका अजाप जातालें.

हांवेंय मागीर हट्ट करपाचो सोडून दिलो. कोणेंय ताटांत शीत घालूं. घालसर कुशीन बसप. घालून जातकच जेवप !

तुमी 'खा' म्हणात नाजाल्यार 'ईट' म्हणात.

म्हाका कांयच लागना!!
म्हजें पोट भरलेशें कारण!!

घराच्या भायल्या रुमांत बाप्पालो पसरो आशिल्लो. बाप्पा नाबी कडेनच चॉकलेटीच्यो, पिपिरमिटांच्यो बरण्यो दवरतालो. बिस्कीटांचीं लातां दवरतालो.

आतां हांव माईक इश्कोलाक पावयतालों आनी परतो घरा येवन पसरो राखतालों. नाबी कडेनच बसून रावतालों.

हांव थंय ना तेन्नां तवनास भुरगे चॉकलेटी, बिस्किटी बी चोरताले.

बाप्पाची फाट आसा अशें पळोवप, हळूच उब्यांनी हात घालून चॉकलेटी, बिस्किटी बी काडून बोल्सांत घालप.

बाप्पा म्हाका उंडो, कांकण बी खावंक दितालो. हांव तें चाबडायत थंयच बसतालों. आनी मागीर थंयच न्हिदतालों.

हांव दोळे धांपून न्हिदून आसतालों खरो, पूण पोरांचो हात डब्या कडच्यान गेल्यार हळूच दोळे उकते करतालों 'सोल्जराचे तकलेकय आनीक दोन दोळे आसात' अशें ते भुरगे म्हणटाले.

कितेंय जावं, हांव थंय न्हिदिल्लो आससर कोणाकच बाप्पाल्या डब्याक हात लावपाचें धाडस जायनासलें.

एक दीस बाप्पान गिरायकाक गोड बांदून दिलें, गोडाचे पयशे घेवन खणांत उडयले, आनी हात धुवंक भितर गेलो. इतल्यान मंगेश म्हणटात तो मस्तो भुरगो थंय आयलो.

हांव नाबी कडेन कदेलाच्या पोंदा न्हिदिल्लों. ताणें म्हाका पळोवंकच ना जातलो.

तो सरळ नाबी कडेन गेलो, बाप्पा भितर गेलोसो पळोवन एक बरणी उकती केली. मूठभर चॉकलेटी भायर काडल्यो.

हांव केन्नां थंय पावलों आनी ताची चॉकलेटींनी भरिल्ली मूठ केन्नां हांवें म्हज्या तोंडांत धरली, ताकाच कळ्ळें ना जातलें.

मागीर मात म्हाका पळोवन व्हडल्यान बोबाट मारूंक लागलो. 'बाप्पा, बेगीन यो.. बाप्पा, म्हाका सोल्जरान घांस काडलो...' अशें म्हणून तो व्हडल्यान रडूंक लागलो.

तो रडटा तें पळोवन रस्त्या वेल्यान वतले दोगजाण भितर सरले.

बाप्पा बेग बेगीन भायर आयलो. आई भायर आयली

मंगेशाचो बापूय तेवटेन वतालो तो भिवन धांवत आयलो.

दुकानार गर्दी जाली सामकी!

हांव हात सोडिना.

मंगेश बोब मारप थांबयना. आनी हातांतल्यो चॉकलेटी परत्यो दवरिना.

मागीर बाप्पान सांगलें 'आरे पोरा, हातांतल्यो चॉकलेटी परत्यो बरणेत उडय.'

मंगेशान चॉकलेटी परत्यो दवरल्यो; तसो हांवेंय ताचो हात सोडलो आनी परतोऽ कदेलाच्या पोंदा वचून ताणून दिलें.

लोकांनी मंगेशाक खूब उलयलो.

'शाळेंत वता मरे तूं? आनी शिकून शाणो जावंचे बदला असो चॉकलेटी चोरता?' असो तापयलो.

पूण मंगेशाच्या बापायन कितें करचें?

मंगेशाचो हात आपल्या हातांत घेवन बारीक साणेन तपासलो.

'बाप्पा, सोल्जराचो दांत बी लागून विखार जाल्यार आतां कितें करपाचें हांवें?' ताणें बाप्पाक विचारलें.

हें आयकून जमिल्ल्या लोकांतल्या एकल्यान सांगलें – 'दोतोरागेर वचून पोटाक एद्दीं व्हडलीं चवदा इंजेसांवां करून घेवंचीं'

सगळे जाण हांसूंक लागले. तसो मंगेश मात 'इंजेसांवां नाकात, इंजेसांवां नाकात' करून हुयेली मारूंक लागलो.

सगळे ताका हांसूंक लागले.

'त्या सोल्जरान पोराक दांतान दुखयलो लेगीत ना. आनी हो चोर बोबाट मारता? बरो घांस काडूंक जाय आसलो.' अशें कोणें म्हणनाका मंगेशाच्या बापायन मंगेशाचेर थापट फुलयलें आनी म्हळें – 'शाळेक वचचें सोडून चोरूंक भोंवता? चल घरा, दाखयतां तुका'

आनी तो मंगेशाक ओडीतच घेवन गेलो. त्या दिसाच्यान तवनास भुरगे नाबीच्या चड म्हऱ्यांत वचना जाले.

पयसुल्ल्यानच पयशे दिवन सामान घेवन वताले.

'पळोवंक गेल्यार सामको गाय कसो बाबडोऽ दिसता. पूण बाप्पालें सामान चोरूंक गेल्यार वाग कसो आंगार येता' लोकांनी म्हाका पळोवन म्हणचें.

पूण आमची सुण्यांची जातच तशी न्ही!

आपल्या धनयाची राखण करप आमच्या रगतांत आसता. हें जर लोकांक कळना जाल्यार कोण कितें करतलो?

त्या दिसा हांव सदचे बशेन माईक इश्कोलांत पावोवन नाबीकडेन कदेलाच्या पोंदा वचून न्हिदिल्लों. इतल्यान बाला आयलो.

आयल्या बरोबर ताणें विडी काडली, बरीऽ ओडली आनी कदेला पोंदा तोंड घालून म्हजेर धुंवर सोडलो.

म्हाका ताचो सामको राग आयलो.

पूण करतलों कितें? तो बाप्पाक दुकानार विकपाक विडयो बांदून दिवपाचें काम करतालो न्ही?

कदेला पोंदचों उठलों आनी दुसरे वटेन आशिल्ल्या म्हज्या साकार वचून बसलों.

'आतां कशें जालें?' अशें म्हणत बाला कदेलार वचून बसलो आनी ताणें म्हळें. 'बाप्पा चुरो दी पळोवंया. विडयो बांदूक बसतां.'

बाप्पान ताका तंबाकुचो चुरो दिलो. तो सुपांत घेवन बालान सूप आपले मांडयेर घेतलें. कपड्यांत गुठलावन हाडिल्ली शेनवतांची पोंटली काडली आनी तो विडयो बांदूक बसलो.

बालाचे हात आनी तोंड बरोबरच सुरू जातालें. हातान विडयो करतालो, तोंडान खबरी सांगतालो.

केन्ना केन्नांय बऱ्योऽ काणयो लेगीत सांगतालो. भुरगीं भायर बसल्यार 'आं' करून ताच्यो काणयो आयकतालीं. हांवय त्यो काणयो आयकतालों.

पसऱ्यार आयिल्ल्या गिरायकांच्यो मस्कऱ्यो करून बाला तांकां हांसयतालो. तो मनीस बरो जाल्ल्यान कोण ताचें वायट धरनासले.

म्हजी खूब अपुरबाय करतालो. पूण म्हाका तिडायतालोय बी!

सदांच विडी ओडप आनी धुंवर म्हज्या तोंडार सोडप?

पूण मुदलांत तो बाप्पालें काम करतालो. त्या खातीर हांव ताका ओगी रावतालों.

एक दीस ताका कितें येवजलें कोण जाणां! 'बाप्पा, फोगेट्यांचे माराण दी पळोवंया. मजाच करता ह्या सोल्जराची' तो बाप्पाक म्हणूंक लागलो.

म्हजें नांव आयकत हांवें कान उबारले. पूण बाप्पान सारकें आयकूंक ना जातलें.

'माराण कित्याक रे?' बाप्पान ताका विचारलें.

'म्हाका सोर्त फुटल्या. दी तूं माराण' बालान अशें म्हणनाका बाप्पान ताका माराण काडून दिले.

बालान रस्त्यार वचून 'सोल्जर, कम कम' म्हळें.

आतां हो सदचोच मनीस! कितें सांगता पळोवंया. अशें येवजून हांव ताच्या म्हर्‍यांत गेलों.

ताणें म्हाका वेंगेंत घेवन पोशेलो. आनी शेंपडेक कितें तरी बांदूंक लागलो.

'म्हजे शेंपडेक हात लाय नाका हां' हांवें बालाक भोकून सांगलें. आनी ताचे वेंगेंतलो कुशीन सरूंक लागलों. तर ताणें फस्का काडी पेटयली.

म्हाका दिसलें हो विडी ओडून धुंवर सोडटलो.

पूण ताणें काडी म्हजे शेंपडे कडेन व्हेली आनी म्हजे शेंपडे कडेन उजो पेटून ठोऽ ठोऽ जावंक लागलें.

हांव आकांतून धांवत सुटलों.

धांवलों धांवलों ऽ

धांव धांव धांवलों.



ह्या संवसारांत हांव सगळ्यांत चड कोणाक भितालों तर तो फोगोट्यांक!!

खंय फोगोट्यो ठोऽठोऽ जाल्यो, जाल्यार हांव सगळो दीस लिपून बसतालों.

चवथीच्या दिसानी तर हांव फोगोट्यो मारतात म्हूण घरा लेगीत रावनासलों.

वयले वटेन आशिल्ल्या भटाच्या गोरवा गोठ्यात वचून खाचीक लिपून बसतालों.

माईन शिळोणी घालून जेवंक आपयल्यार लेगीत वचनासलों. इतलो हांव फोगोट्यांक भितालों. माई मागीर म्हाका सोदून काडून हांव आसा थंय म्हाका शीत हाडून घालतालें.

आनी आतां तर ह्यो फोगेट्यो म्हजे फाटीकच लागिल्ले भशेन फुटताल्यो.

आतां म्हजी शेंपडीच तुटून पडटा काय? काय हांव सगळोच हुलपतां?

कांयच कळना जालें म्हाका.

हांव वाट दिसता ते वटच्यान धांवत सुटलों. रस्त्यार लोक म्हाका पळोवन हो ऽ हो करून हांसताले...ताळयो मारताले.

फोगोट्यांचो आवाज थांबलो. पूण हांव थांबूंक ना. हांव धांवत रावलों.

खंय पावलों काय हांव? परत घरा वचचें काय ना? म्हाका तर बालाचो खूबच भंय दिसतालो.

माई घरा आशिल्लें जाल्यार? तें बालाक खूब उलयतलें आसलें. ताका 'बॅड बॉय' म्हणटलें आसलें.

तें ताका फोगोट्यो लावंक दिवचेंच नासलें.

पूण माईच घरा नाशिल्लें न्ही!!

आतां सांज जाली. काळोख पडूंक लागलो. तरी हांव धांवतालों.

शेवटाक सामकें पुरो जालें. आनी हांव ल्हा: ल्हा: करीत जीब भायर काडून एकेकडेन आडवो पडलों...आतां घरा कशें वचपाचें तें चितूंक लागलों.

पयस सुण्यांचें झगडें – बोवाळ चलतालो. तांची आनी नदर म्हजेर पडना जाल्यार पुरो सायबा! हो वाठारय तसो बरो! खंयच्याच सुण्याच्या मुताचो वास हांगा येना आसलो.

पूण त्या सुण्यांक म्हजो वास आयलोच!

'भोक – भोक' करीत चार पांच सुणे हे वटेन पावले. हांव पयलींच उदारो पडून शरण गेलों तांकां! ओगीच केस्तांवां नाकात म्हणून!!

पूण तांणी म्हाका धुल्लांत आडवो घालून मस्त मळ्ळोच! घांसय

काडले!

हांवेंय मागीर म्हज्यान जाता तशे तांकां घांस काडले. काळोख पडसर झगडीं करून तीं सुणीं म्हाका थंयच मेल्ले बशेन उडोवन एकदाचीं गेलीं.

हांवंय थंयच पडून रावलों थोडो वेळ.

मागीर उठलों आनी खंय उदक तरी दिसता काय पळोवंक लागलों.

म्हाका आतां पोटांक भूक लागिल्ली आनी तानय खूब लागिल्ली. त्या सुण्यांनी मस्तयिल्ल्यान जीव सामको गळून गेल्लो.

लागीं साराक खंयच घरां बी दिसनासलीं. पूण पयस एक उदकाचें तळें दिसलें. हांव त्या तळ्यार वचून कडेक रावन पोटभर उदक पिलों.

'डुबूक! डुबूक!' कसलो आवाज जाता?

पळय जाल्यार तळ्याचे देगेर दोनचार भुरगे फातर मारून तळ्यांत बेबक्यो करताले.

भुरग्यांक हांव सारको वळखतां. म्हाका पळयल्यार म्हजेरय हे फातर मारतलेच! म्हूण हांव थंय ओग्गी बसून रावलों.

सगळे भुरगे गेले, तरी हो कुशीनसो बशिल्लो एकलो भुरगो उदकांत फातर मोखीत बसला?

आतां सामको काळोख पडिल्लो आनी इतलो ल्हान भुरगो तळ्याचे देगेर बसला?

हांवें व्हडान भोकून त्या भुरग्याक सांगलें – 'आरे बाबू, हें उदक सामकें घातमारें आसता हां! चल, कुशीन वचून बस. ल्हान भुरग्यांनी

अशें उदकाचे धडेर बसूंनये...!!'

म्हजें हें सांगणें आयकून त्या भुरग्यान कितें करचें?

उदकांत शेवटूंक काडिल्लो फातर काडलो आनी म्हजेर शेवटयलो.

तरी बरें! हांव समतोच उडकी मारून कुशीक सरलों. नाजाल्यार म्हजो दोंकोच मोडपाचो!

हीं मनशां... ल्हान जावंदी – व्हड जावं दी!

सगळीं एकेच बुद्दीचीं कशी काय दिसता म्हाका! दिसलो सुणो, मारलो फातर!!!

मागीर हांवें म्हजी बुद्द वापरली. बरीऽ शेंपडी हालोवन, 'कूं कूं' आवाज काडून हांव ताका रागान भोंकना. ताचे बऱ्याकच सांगतां हें ताका जाणयलें.

तो भुरगोय समजलो जावंये!

ताणें बोल्सांत हात घालून दोन बिस्किटी काडल्यो. एक आपणें खाली. एक म्हजे वटेन केली.

हांवें धांवत वचून ती बिस्कीट घेतली आनी खाली. म्हाका त्या भुरग्याची लक्तुबाय दिसली. हांवें शेंपडी हालोवन ताचो हात चाटलो.

तो भुरगो सामको खूश जालो.

ताणें म्हाका बोल्सांतल्यो उरिल्ल्यो सगल्यो बिस्किटी दिवन उडयल्यो.

म्हाका भूक लागिल्ली. आनी बिस्किटी तर तो म्हज्या तोंडांतूच घालतालो.

हांवें त्यो बकाबक खावन उडयल्यो.

खातना म्हाका माईची याद येताली. माई अशें म्हाका खातना पळयल्यार 'बॅड डॉग' म्हणतलें आसलें. पूण कितें करूं?

खावपाची वस्त दिसली तर ती जाता तितले बेगीन पोटांत दवरीसर म्हाका सुखच लागना.

हांव त्या भुरग्या म्हऱ्यांत बसलों. तो बाबू म्हजे फाटी वेल्यान हात भोंवडायत म्हजेरच लवंडलो, आनी न्हिदसुरोसो म्हजेकडेन उलोंवक लागलो.

ताणें म्हाका एक बरीऽ काणी सांगली.



'तूं मरे म्हजो टायगर...कळलें तुका? तूं पयलीं शक्तिमानाचो टायगर आशिल्लो. आतां तूं म्हजो टायगर!! आतां हांव काळखाक भिवंचों ना. शक्तिमानान तुका म्हजी राखण करूंक धाडला मरे? शक्तिमान भुरग्यांक राखता. पूण आज ताका काम आसा. ताणें तुका म्हजी राखण करूंक धाडला मरे? हय मरे?'

तो बाबू म्हाका विचारीत रावलो.

कोण काय हो शक्तिमान? हांव काय ताका वळखना! पूण तो भुरगो म्हाका खूबच आवडिल्लो. त्या बाबूच्या आंगाक बरोऽ गोऽड वास

येतालो. त्या बाबूक आख्खोच ल्हेंवचो अशें म्हाका दिसतालें. ताणें काय बरे कपडे घाल्ले! चकचकीत बूट घाल्ले... कितलो अपुरबायेचो दिसतालो तो!

हांवें शेंपडी हालोवन ताचो हात चाटलो. तशी 'टायगर' म्हणून वेंगच मारली ताणें म्हाका!

'टायगर' हें नांव वायटशें नासलें. हांवें 'कूं कूं' करून नांव मानवलें म्हूण ताका सांगलें.

कसलोय आवाज आयलो, तसो तो बाबू म्हाका घट्ट वेंगच मारतालो.

मागीर तो बाबू म्हजेर लवंडून म्हाका दोन चोरांची एक काणी सांगूंक लागलो.

' - मागीर मरे, त्या दोनय चोरांनी म्हाका उबारलो आनी ते धांवूंक लागले. आनी तो व्हडल्या मिशांचो चोर आसलो न्ही, तो म्हाका साकांत घालूंक लागलो. हांव व्हडल्यान रडूंक लागलों. तसो खाडयो चोर म्हजें तोंड दाबून धरून म्हाका पिस्तोल दाखोवंक लागलो. हांव मरे सामको भिलो. हांवें व्हडल्यान शक्तिमानाक उलो मारलो. तसो शक्तिमानान तुका धाडलो. ते चोर म्हाका साकांत घालून म्हजी पोंटली खांदार मारून धांवंक लागले. तूं तांचे फाटल्यान लागलो. मागीर तुवें खाडया चोराच्या कुल्याक घांस मारून ताची पँटच पिंजली. व्हडल्या मिशांचो चोर तुका मारूंक आयलो. ताच्या पांयाक घांस काडून तुवें रगत काडलें. ते तुका भिवन म्हाका हांगाच उडोवन पळ्ळे. तुवें म्हाका चाटून-चाटून रडटालो तो थांबयलो. आनी ...'

उलयतां उलयतां काणी अर्ध्यारच सांडून तो बाबू म्हजेर लवंडून साप्प न्हिदलो.

हांव आतां कितें करतलों?

म्हजे गोमटे भोंवतणीं ताचे हात. म्हजे फाटीर तो लवंडला. हांवंय मागीर तसोच न्हिदलों.

भोंवतणीं काळी किर्र रात

किरी किरी किर्र करीत कोणतरी जीव गायतात... तळ्याभोंवतणीं झाडां... आनी आमी दोगच थंय न्हिदल्यात.

– हांव बाबून सांगिल्ली काणी येवजितां...बरीऽ काणी ! बाला सांगता त्या काणयां परस बरी!

कितलो वेळ आमी थंय न्हिदिल्ले कोण जाणा! अकस्मात पयसुल्यान बोवाळसो आयकून हांव सावद जालों.

नाकाक वास आयलो. अनवळखी मनशांचो.

ते कोणाक तरी उलो मारताले.

हातांत कितें तरी घेवन 'लिक – लिक' उजवाड घालीत तळ्या वाटेनच येताले.

कोणाक सोदताले काय?

'राजूऽऽ, राजूऽऽ' करीत ते लागीं पावले, तशें हांवें तोंड उकतें केलें.

'गुर्ऽ गुर्ऽऽ' करून तांकां सांगलें – 'बोवाळ करनाकात रे! हो बाबू आसा न्ही तो म्हजेर आपलें जिवीत पातयेवन न्हिदला.'

पूण म्हज्या भेश्टावण्यान ते चडच आमचे वटेन येवंक लागले. म्हज्या तोंडार 'लिक लिक' करून उजवाड घालून दोळे दिपकावपाक लागले.'

हांवें जायतो बोवाळ घालो. दांत 'वीच्च' करून दाखोवन तांकां

भेश्टायलें. 'लागीं येवशात तर घांस काडतलों' म्हूण सांगलें. पूण कांयच उपेग जालो ना.

तो बाबू मात म्हज्या आनी तांच्या बोवाळान जागो जालो.

'हाड हाड कसलें हळशीक सुणें ! चल पयस नाजाल्यार फाटीर दांडो घालतलों.' एका मनशान म्हजेर बडी उबारून म्हळें.

आतां म्हाका त्या सुण्यांनी सामको धुल्लांत मसतूवन, पिसडून म्हजी दशा केल्ली खरी, पूण म्हाका 'हळशीक सुणो' म्हणप? म्हजेर बडी उबारप?

आतां उपाय ना! बडी पळयली की म्हाका पोटांतल्यान भंय दिसताच! हांव बेगीन बेगीन मातसो कुशीक सरलों.

तसो तो बाबू सारकोऽ जागो जावन 'टायगर, म्हजो टायगरऽ' करून म्हाका वेंग मारून रडूंक लागलो.

तांतल्या एका मनशान 'राजूऽ, हांगा कसो पावलो रे तूं म्हज्या शाण्याऽ' अशें म्हणून ताका वेंगांत काडलो.

त्या बाबून - म्हज्या राजून दोळे उकते करून त्या मनशाच्या तोंडाक पळयलें आनी 'डॅडीऽ' म्हणून त्या मनशाच्या गळ्याक वेंग मारली.

मागीर तो राजू दोळे धांपूनच न्हिदसुरोसो उलोवंक लागलो.

आनी कितें सांगता काय म्हळ्यार...?

म्हाका सांगिल्ली तीच दोन चोरांची काणी त्या डॅडीक सांगूंक लागलो.

- आतां म्हज्या सारक्या सुण्याक एक ती काणी सांगली ती सांगली येद्या व्हडल्या डॅडीकय बी तीच काणी सांगप?

म्हाका कितेंशेंच दिसलें! आनी म्हजें नांव आनी त्या काणयेन सांगता!!

पूण तो डॅडी आनी बाकीचे मनीस ताची काणी बरेऽ मन लावन

आयकताले-

राजू सांगत आसलो- 'मागीर डॅडी, त्या खाडया चोरान म्हाका साकांत भरून खांदार मारला मात, टायगर धांवत आयलो. ताणें खाडया चोराच्या कुल्याक घांस मारून ताची पँटच पिंजली. आनी व्हडल्या मिशांच्या चोराच्या पांयांक घांस मारून मारून रगतां काडलीं. मागीर म्हाका हांगाच उडोवन ते धांवूंक लागले. टायगर भोंकत भोंकत तांचे फाटल्यान लागलो. मागीर हांव रडूंक लागलों तसो टायगर परतो आयलो. आनी म्हाका चाटून चाटून थांबयलो. म्हाका वाट कळना. टायगराकय वाट कळना. मागीर आमी घरा कशे येतले? आमी हांगाच न्हिदले.'

राजूली ही काणी आयकून सगळे थोडो वेळ ओग्गी पडले.

मागीर तांतल्या एका मनशान म्हळें - 'भुरगीं चोरून व्हरपी टोळी आयल्या जातली गांवांत.'

'शारांत व्हडलो पूल बांददतात न्ही, तो कस्सोच धरना खंय. ल्हान भुरग्यांचो बळी दिल्यारच तो पूल धरतलो म्हूण एका व्हडल्या बाबान सांगलां खंय! ते खातीर ही टोळी भुरग्यांक चोरून व्हरता जातली.' दुसऱ्या एका मनशान म्हळें.

तो मनीस आनीकय जायतें सांगूंक वतालो अशें ताच्या तोंडावेल्यान दिसतालें. पूण त्या डॅडीन ताचेर धेंगसो घालो- 'ओग्गी बस पळोवंया! भुरग्या मुखार कितेंय उलोंव नाका!'

मागीर डॅडीन राजूक विचारलें- 'राजू, हो सुणो...हो टायगर तुका खंय मेळ्ळो?'

'शक्तिमानान म्हाका राखपाक ताका धाडला डॅडी... न्ही रे टायगर?' राजून परतोय म्हाका वेंगायलो.

परतोऽ शक्तिमान? कोण काय हो शक्तिमान? हांव काय ताका वळखना. पूण राजू वळखता न्ही? जालें तर!

राजूक बरें दिसचें म्हणून हांवें शेंपडी हालोवन 'हय! हय!' म्हळें.

तिसरो एक मनीस इतलो वेळ ओग्गी आसलो. आतां मात तो उलयलो– 'हांव जाणांच आसलों भाई, हे सगले टी.वी. चे प्रताप! राजू टी.वी. चडच पळयता. खंयचो स्पायडरमॅन, बॅटमॅन आनी हो शक्तिमान..! ते दोन चोर...व्हडल्या मिशांचे, खाडाचे...तसलींच सिरीयलां चड पळेता राजू...तकलेंत मागीर नाका जाल्ले विचार? शक्तिमानान सुण्याक धाडला खंय! – सगळीं फकाणां'

त्या मनशाच्या उलोवण्यांत डॅडीन म्हळें – 'आरे शक्तिमानान न्ही जाल्यार देवान धाडला जातलो त्या सुण्याक म्हजे राजूचे राखणेक! चल राजू, घरा या. तुजी मम्मी रडून रडून अर्दी जाल्या थंय'

'मम्मी' हें उतर आयकून राजू रडूंकूच लागलो. 'मम्मीऽ, म्हाका मम्मी जाय.' अशें म्हणून हिमट्यो काडूंक लागलो.

त्या डॅडीन राजूक खांदार मारलो. सगळे जाण चलूंक लागले.

आतां हांवें कितें करपाचें?

हांवंय तांचे फाटल्यान चलूंक लागलों. तर तातूंतलो एक मनीस 'हाड हाड' करून म्हाका धांवडावंक लागलो.

हांवें मागीर भोंकलेंशें केलें.

'टायगरऽ डॅडी, म्हजो टायगर!' राजून म्हळें.

'आरे, आरे, त्या सुण्याक धांवडाय नाकात. ताणें राजूचो जीव वांटायला. ताका घरा येवं दी.'

'पूण तो सुणो सामको बुरसो आसा. राजून आनी ताका वेंग

मारिल्ली... घरा व्हरून पयल्यान पयलीं राजूक न्हाणोवंक जाय. कितेंय इंफेक्शन बी जाल्यार माणसुकी आसा?' त्या मनशान म्हळें.

'राजूक न्हाणोवंयाच! आनी त्या सुण्याकय न्हाणोवंया! शाणू, फाल्या सकाळीं टायगराक दोतोरागेर व्हरून इंजेक्शन करून घेवपाचें पळय' आरे घरांत चार सुणीं आसात, तातूंत हो पांचवो सुणो!'

डॅडीन अशें म्हणनाका, सगळे ओग्गी पडले.

हांव तांचे फाटल्यान चलत रावलों.

खूब वेळ चलतकच एकदांचे आमी घरा पावले. घर म्हणून केदें तें! सामकें आकांताचें!

येदें व्हडलें घर हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें. आनी मुकार केदो व्हडलो गार्डन!

पूण ह्या गार्डनाचे गेटीकडेन पावतनाच थंय भोंवपी चार सुणीं म्हजेर जुडून आयलीं सामकीं!

दोन व्हडले ल्हंवेचीं, एकलें धवोफुल्ल कापसाचो गुटलो कसो. ल्हानशेंच. आनी एकलो व्हडलो राकेस सो.

हांवें आनी वेळ केलो ना. हांगचो कडसरल्यार बरो अशें चिंतून शेंपडी सकल घालून फाटल्या पांयांनी परतलों.

इतल्यांत त्या डॅडीन 'टीटोऽ, ल्युसीऽ, टॉमीऽ, रॉकीऽ' अशे उले मारले. सामके तांकां दटायिल्ले बशेन.

आनी कितें सांगचें? त्या डॅडीच्या एका उल्यानच तीं सुणीं आसा थंयच उबीं रावलीं. 'भोंकप गुरगुरप सगलें बंद'

हांव अजापान थंयच उबो रावलों.

डॅडीन म्हजे तकलेर थापटीलें आनी त्या 'टॉमी-बिमी'क सांगलें- 'हो टायगर, आतां हांगाच रावतलो. हाचे वाटेक कोण्णें वचप ना'

तशीं तोंडांतल्या तोंडांत गुरगुरत तीं सुणीं म्हाका पळोवंक लागलीं.

हांव तांकां व्हडलोसो आवडलों ना जातलों!

म्हाका तरी तीं खंय आवडिल्लीं?

इतल्यान भितरल्यान एक बायल धांवतच आयली. 'खंय गेल्लो रे म्हज्या राजाऽ' अशें म्हणून तिणें राजूक उबारून घेतलो, राजून 'मम्मीऽ' म्हणून तिका वेंग मारली.

'डॅडीन मागीर 'रॉबर्ट' म्हणून उलो मारलो. तसो म्हाका बडी दाखोवन धांवडायतालो तो मनीस मुखार आयलो.

'रॉबर्ट, ह्या टायगराक न्हाणय. ताका जेवंक घाल आनी व्हरांड्यांत न्हिदपाक दी ताका! आनी शाणू तूं फाल्या ताका दोतोरागेर व्हरून हाड. ताका गळ्याक पटो हाडपाचें बी पळय.' डॅडीन फर्मायलें.

अश्यो ओर्दी सोडून डॅडी भितर वचपाक लागलो.

'कितें? ह्या, ह्या रस्ताद सुण्याक घरांत दवरपाचो? ती मम्मी आड्डलीच!'

हाचेर डॅडीन तिका सांगलें - 'तूं जाणा कितें? हो टायगर म्हणून राजू आमकां परतो मेळ्ळा. दोन चोर ताका उबारून घेवन वताले. त्या टायगरान तांकां धांवडावन घालून राजूक वाटायला. रानांतल्या त्या तळ्या धडेर राजू ह्या टायगराक वेंग मारून न्हिदिल्लो. आनी हो टायगर ताची राखण करीत बशिल्लो. आमकां लेगीत राजूक हात लावंक दिना आसलो.'

आनी डॅडीन ते मम्मीक तीच काणी सांगली.

–शी:ऽ सायबा! परतीऽ तीच दोन चोरांची काणी!!

पूण ती काणी आयकून मम्मीक म्हजे विशीं भारी मोग दिसलो जावंक जाय! तिणें म्हजे तकलेर थापटिलें आनी त्या रॉबर्टाक सांगलें – 'बरीऽ करून सेवा कर हा ह्या टायगराची! म्हज्या राजूचो सुणो तो!'

'चल, ताका खावंक दी पयलीं कितेंय'

रॉबर्टाक अशें सांगून ती राजूक घेवन भितर गेली.

राबर्टान म्हाका एके बरे चकचकीत धवेफुल्ल कुडींत व्हेलो. असली कूड हांवें केन्नाच पळोवंक नासली. थंय नळ सोडल्यार हुनहुनीत उदक आयलें. दुसरो नळ सोडल्यार थंड उदक आयलें. उदकान ताणें म्हाका साबू लावन बरोऽ न्हाणयलो.

हांवेंय चड बोवाळ करूंक ना. करतात तें करूं दी म्हळें.

पूण रॉबर्ट म्हज्या आंगाक हात लावंक लेगीत विटतालो हें ताच्या तोंडा वेल्यान समजतालें.

'चोय गो ज्युली, केसो सुण्या सिर्विसेक लायला म्हाका' ताणें थंयच काम करतले एके चलयेक सांगलें.

'राजूबाबागे जीव वाटावपी सुणो तो! तेगे वीट धोन्नाक तूं रॉबर्ट आनी आतां न्हातोकोच केसो लिकलिकीत दिसोता चोय तो!' त्या ज्युलीन म्हळें. म्हजे तकलेर थापटून म्हाका 'गुड डॉगी' म्हळें

'जावं सायबा! हाका इंग्लीश उलोवंक येता!' हांवें म्हाकाय बी इंग्लीश येता हें ताका सांगपा खातीर शेंपडी हालोवन ताच्या तोंडाक पळयलें.

मागीर रॉबर्टान म्हाका एका तुवाल्यान पुसलो. हांवेंय बी आंग फाफडून सगळें उदक झाडयलें आनी ल्हंवेन ल्हंव मेकळी केली.

जिवाक बरेंऽ दिसलें.

रॉबर्टान म्हाका व्हराड्यांत व्हरून एके ताटलेंत खावपाक हाडून दिलें. शीत आनी मटण??

ताणें ती ताटली म्हजे मुकार दवरतकच हांवें शेंपडी हालोवन ताच्या तोंडाक पळयलें. ज्युलीन म्हळें, 'चोय रॉबर्ट, कोणागे पोसलेलोच सुणो तो! जगा वेलो न्हूं. कितू बोरे मॅनर्स आसात चोय तेका!'

मॅनर्स म्हळ्यार कितें काय? कितेंय जावं तें! हांवें उमेदीन रॉबर्टाच्या तोंडाक पळयलें. ताणें म्हळें 'आरे जेय मुरे आतां, ईट'

हांवें वसवशिल्ले बशेन पयलीं शीत मटण भकलें. मागीर हाड घेवन बरेंऽ रुचीन चोखीत बसलों.

'मड्याचे मॅनर्स! केसो खाता चोय!' त्या रॉबर्टान नाक किळसावन म्हळें.

'उपाशीं पोडतोकच तशेंच जाता बाबा. चार दीस बरोऽ जेंय दी - मागीर ताळ्यार येतोलो' ज्युलीन रॉबर्टाक समजायलो.

तांणीं म्हाका 'गोधडे बशेन एक मोव मोव रग दिलो. हांव त्या रगार पातळ्ळों आनी सामको सुखावलोंच!'

सकाळीं पळेल्यार राजू बरो न्हेसून बी फाटीक येऽदें व्हडलें धपटें लावन भायर सरला.

हांव 'राजूऽ, राजूऽऽऽ' करून कितलों भोकलो, पूण तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलोच ना.

म्हाका दिशिल्लें म्हाका पळोवन तो धांवत म्हजे म्हऱ्यांत येतलो. म्हाका गळ्याक घट्ट वेंग मारतलो. कालचे बशेन!

पूण पयसुल्यानच ताणें म्हाका टाऽटाऽ टायगर म्हळें. मम्मीकय टाऽ

टाऽ मम्मी अशें म्हणून तो डॅडी बरोबर गाडयेंत बसून गेलो.

म्हाका वायट दिसलें.

म्हजे म्हऱ्यांत येवन 'टायगर, तूं कसो आसा?' इतलें तरी ताणें विचारपाचें न्हीं?

काल तर म्हजेर सामको जीव घालतालो.

म्हाका व्हडल्यो –व्हडल्यो काणयो सांगतालो!

आज राजूक कितें जालें?

हांव राजूचे गाडयेचे फाटल्यान भोकत ताका जाप विचारतालों. इतल्यान मम्मीच म्हजे म्हऱ्यांत आयली. तिणें म्हजे तकलेर थापटिलें.

म्हणूंक लागली 'टायगर, राजू आतां स्कुलाक गेला. येतकच होमवर्क बी करून वेळ मेळल्यार तुजे बरोबर खेळटलो. भोकून बोवाळ बी करनाका हांगा. चल, तो पळे टॉमी बी गार्डनांत आसा; तूंय बी चल भायर.'

हांव गार्डनांत गेलों. टॉमीच्या म्हऱ्यांत वचूंक गेलों. तो म्हाका 'गुर्र' करून 'लागीं येवं नाका' म्हणूंक लागलो. बाकीचीं सुणींय म्हाका लागीं धरिना जालीं.

मागीर म्हळें –'झक मारात! तुमचे कडेन खेळूंक म्हजोय जीव वयर येवंक ना!'

गार्डनाच्या दुर्गाक बरी गराद आशिल्ली. तातूंतल्यान तोंड घाल्यार रस्तो बी दिसतालो. हांव गरादिंतल्यान भायर पळोवन कोणय वळखीचो दिसता जाल्यार पळोवंक लागलों. इतल्यान शाणू थंय आयलो. ताच्या हातांत एक पटो आशिल्लो. टॉमीच्या बी गळ्यांत आसलो तसोच पटो!

शाणू तो पटो म्हज्या गळ्यांत घालूंक लागलो. हांवें कितलें सांगलें

ताका – ‘ आरे, म्हाका हो पटो नाका. म्हाका असलीं भांगरां आवडनांत. हांव असो मेकळोच बरो!’

पूण शाणू कसोच आयकलोना. ताणें रॉबर्टाक उलो मारून आपयलो आनी म्हाका धरूंक लायलो.

दोगांयनूय मेळून म्हज्या गळ्यांत पटो घालोच!

हांवें मागीर तो पटो काडून उडोवंक जायते यत्न केले. दांत पावनांत म्हूण मुकावेल्या दोंक्यांनी तो पटो निखळावंक पळेलो. पूण मागीर पुरो जावन उदारोंच पडलों.

रॉबर्ट म्हाका हांसूंक लागलो. ताणें सांगलें – ‘आतां हिंगा रावतलो देखून तुका हो पटो घालूंकूच जायो. दोतोरागेर वचून इंजेसांवां घेयच्या जाय...’



आवयस! सांजेर त्या दोतोरागेर व्हरून शाणून आनी म्हजे हाल केल्यात ते! पूण भोंगूं ते! सांगतलो कोणाक?’

आतां हांव हांगाचोच जालां न्ही!!

सगळी संवंय जाल्या आतां!!

दोनय वेळचें मटण बी खावन म्हजें आंग बरेंऽ फुल्लां

राजू चड करून म्हाका विसरलाच जातलो. तो म्हजे म्हऱ्यांत खेळूंक सोडच, असो पोशेवंक लेगीत येना.

व्हडलो जाला न्हीं तो आतां!

हांवेंय आता ताका भोंकून उलो मारपाचें सोडूनच दिलें.

तो येवं नाका म्हज्या म्हऱ्यांत.

पूण घरांतलीं सगलीं म्हाका कितलो रेस्पेद दितात!

सगळ्या सुण्यां बरोबर रॉबर्टच म्हजी बरी सेवा करता. म्हजे कडेन खबरी लेगीत करता. ज्युलीय म्हजी माया करता.

टीटो, टॉमी बी म्हाका चड लागीं करिनांत, पूण गुर्र–गुर्र करून सामकोच भायर उडयनांत. टॉमी तर मनांत मारल्यार म्हजे कडेन खेळता लेगीत!

मम्मीच्यो – डॅडील्यो व्हडल्यो व्हडल्यो पार्ट्यो जातात. तांचीं सोयरीं पार्टेक येतात. फ्रेंडां पार्टेक येतात.

मागीर डॅडी तांकां आपलीं सुणीं मुजरत दाखयता.

तींय बी डॅडीच्या सुण्यांक खूब तोखेतात.

पूण म्हजेर नदर पडतनाच कपलाक आंठयो पडतात तांच्या...

तीं डॅडी–मम्मीक विचारतात – 'तुमीं काय बरीं आल्सेशियन, लॅब्रेडोर बी बरे बरे जातीचीं सुणीं पोसल्यांत! तातूंत हें गांवठी सुणें शें! तुमगेर मातय सोबना'

मागीर डॅडी आनी मम्मी म्हजे म्हऱ्यांत येवन म्हाका पोशेतात.

तीं सांगतात – 'हो गांवठी सुणो म्हणून उणो लेखनाकात. हो टायगर आमचो सामको स्पेशल सुणो! राजू ल्हान आसतना ताका किडनेप केल्लो. तेन्ना ह्या टायगरान राजूचो जीव वाटायला.'

आनी मागीर तीं पिशां बशेन तांकां तीच दोन चोरांची काणी सांगतात–

राजून म्हाका तळ्या धडेर बसून सांगिल्ली ती.

तांचीं फ्रेंडाय बी ती काणी बरी कान दिवन आयकतात आनी म्हाका तकलेर थापटून म्हणतात 'गूड डॉगी!'

हांवंय मागीर तांकां शेंपडी हालयतां आनी म्हणटां – 'गूड मनशां!'

राजूचे मम्मीन, डॅडीन, रॉबर्टान ज्युलीन ती काणी इतल्या जाणांक सांगल्या की आयकून आयकून म्हाका सामकी पाठ जाल्या.

वर्सान वर्स तीच काणी नव्या मनशांक!

ह्या वर्सांनी जायत्यो नव्यो गजाली घडल्यात. ल्युसी आतां ना...बरें ना जालें आनी मेलें.

ताच्या जाग्यार ताचे बशेनच 'मोना' आयलां. धव्या फुल्ल कापसाचो गुटलो कशें!



'टॉमी'य सोंपलो. आतां 'हॅपी' आनी 'टोटो' अशे दोन व्हडले ल्हंवेचे सुणे आयल्यात.

उरिल्ले दोगय साप्प म्हातारे जाल्यात.

हांवंय आतां साप्प म्हातारो जालां.

मटणांतलीं हाडां आतां म्हज्यान चाबूंक लेगीत जायनांत.

भायर गार्डनांत एक पासय मारल्यार लेगीत म्हाका पुरो जाता.

मागीर हांव व्हरांड्यांत वचून म्हज्या मोव-मोव रगाचेर बसतां -

मुकावेल्या दोंक्यांचेर मान दवरतां आनी दोळे धांपून म्हज्या जिविताची काणी येवजितां...



तीन-तीन धनी जाले म्हजे!

तीन-तीन नांवां दिलीं म्हाका!

भकारो...सोल्जर...टायगर...

तो वासू...आबोल्यान भरयिल्लो केक...



वासू आवयन दिल्लो बांगडो... सोंशाची कास
माईचें इश्कोल...
म्हजी काणी येवजितां येवजितां दोंक्यांचेर तकली दवरिल्ले कडेन तसोच न्हिदून पडटां...

सुधा खरंगटे हांका भुरग्यांच्या मानसशास्त्राची नाट सापडल्या ताणीं भुरग्यांखातीर आयजवेर जें साहित्य रचलां तातूंत ताणीं बालमनाक मनरिजवणे वांगडाच आदर्शांची दिका दाखयल्या.

'काणी एका सुण्याची' ही तांची अशीच एक काणी. बालमनाची मनरिजवण करतां करतां तांच्यो भावना, तांचें कल्पनाविश्व ल्हवपीक उसयत एका वेगळ्याच विश्वांत माणकुल्यांक घेवन वता.